थंय प्रमुख जाव्नासात। फा| आंजेलो सार्फेयि, फा| डेनिस कुवेल्लो, फा| इम्मानुयेल कोर्टि, फा| आंजेलो सविसरसि, फा| आलेक्सांडर कामिस आनि फा| डयसांटि।

फा| ए. एफ. एक्स. मार्फेयि हाणे कूळूरांत घर घर्रांनि भेट दीव्न दुब्ळया धाक्ट्यांचि सेवा केलि। ताणें नंय पोल्लॅडि आम्च्या उब्ळालांत मिशांनरि काम केलें। सां लुविस कॉलेजिन प्रिन्सिपाल सेवा दिल्ल्या ताणें 1898 इस्वेंत नेल्लिकुंजे म्हळ्ळेकडेन धाक्ट्यां भुर्ग्यां खातिर इस्कोल आरंभ केलें। ताचिं निमाणि वसां ताणें दुब्ळयांचा आनि निर्गतिकांचा सेवेंत खर्चिलिं।

हाचा नंतर फा| डेनिस कुवेल्लो वापान नेल्लिकुंजे आनि वळ्सें गांवांत समाज सेवेचें काम केलें। 1899 इस्वेचा दशेंबरांत सुरत्कलाक वचोन थंय्सर ताणें हफ्त्याचि मार्केट, पोस्ट ऑफिस आनि क्रेडिट को-आपरेटिव संस्थो आरंभ केलें। थंय ताणें स (6) इस्कोलां आरंभ केलि। दुब्ळयांक ल्हान ल्हान घरां बांदुन दिलिं।

म्हार आनि कोरगारां थंय काम केल्ल्या जेज्वितां पयिकं प्रमुख स्थान घेतात फा| फावुस्तिन कोर्टि आनि फा| अलेक्सांडर कामिस। मंगळुरक 1884 इस्वेंत आयिल्लो फा| कोर्टि पर्जार इगर्जेंत सहायक जाव्न वावुर्लो। थंय्सर तो कोंकणि भास शिकलो आनि होस्पेट गेल्या उप्रांत तुळु भास शिकलो। हो याजक 1905 इस्वेंत नारावि म्हळ्ळया गांवाक गेलो आनि थंय ताणें म्हारां खातिर वाव्र केलो। ताचा हिंदुंनि 'सन्सारे गुरु' म्हण बिरुद दिलें। ताणें मूडबिद्रि, आर्वा आनि लाग्गिल्या हळ्ळयांनि काम कर्न सुमार 6,000 जणांक क्रिस्ताचे पाट्लाव्दारि केले।

फा| आंजेलो सविसरसि हाणें म्हारां खातिर पयलें इस्कोल सुरु केल्लें। तो पर्न्या आनि नव्या क्रिस्तांवां मधें अंतर उणो करुंक पेचाड्लो। अर्वा, बद्यार, आग्रार, सिद्धकट्टे, बंगाडि, मडंत्यार, निर्काण आनि मूडबिद्रि गांवांनि मिशांनरि काम केलें।

धवो कोरगार म्हण नांवाडल्लो फा| आलेक्सांडर कमिसान कोरगारांच्या उदर्गत खातिर खळिसत नातल्लो वाव्र दिलो। पावूरांत 1913 इस्वेंतर ताणें कोरगारांचि कोलनि बांदिल। 1936 इस्वेंत मुळ्ळयांत अन्येक कोलनि आरंभ केलि। अशें फा| कमिसान कोरगारांचे स्थितिगतेंत चडित सुधारण हाडें।

फा| उर्बान स्टैन हाणे 1887 इस्वेंत उर्सुलाय्न भग्णिंचो मेळ घड्लो। तो दुब्ळया आनि पिडेस्तां मधें वावुर्लो। हाणे 1879 इस्वेंत कोडियालबयल कोंपेलांत दादल्यांचि सोडालिटि आरंभ केलि।

फा| फ्राचेट्टिन 'रोमन काथोलिक प्राविडेंट फंड' म्हळ्ळो संस्थो 1888 इस्वेचा अक्टोबर 7वेर घड्लो। थोड्या लायिकांच्या सूचनान आनि जेज्वित पाद्र्यावांचा प्रोत्साहान विस्पाच्या घर हो फंड वाड्लो आनि स्थिर जालो। दुब्ळया धाक्ट्यांक ह्या फंडा मारिफात चड उपकार आसल्लो। पुण 1956 इस्वेचा जनेर 18वेर सर्कारान 'जीव विमा संस्थो' घडल्ल्यान हो फंड बंध पड्लो।

1894 इस्वेंत फा| वोनिमान रिक्रियेशन क्लब आरंभ केलें। 1901 इस्वेंत हें काथोलिक यूनियन क्लब जाव्न बदल्लें।

1879 इस्वेचा फेब्रेर 25 तारिकेर मंगळुरक आयिल्ल्या फा| आगस्टस दयमांटि हाणे 1913 इस्वे पर्यांत सां जुजेचे सेमिनरिंत आध्यात्मिक डिरेक्तोर जाव्न वावुर दिलो। ताणे पिडेस्त आनि दुबळ्यां खातिर आस्रो आरंभ केलो। सां जुजेचि सेमिनरि, सां जुजेचें कोपेल बांदल्ल्या फा| दयामांटिन 1889 इस्वेंत सां जुजेचें वर्कशोप आरंभ केलें। 1884 इस्वेंत कोड्डागांचें घर उगतावण कर्न सुर्विलि आट वर्सां तें चलव्न व्हेलें। मुकार कंकनाडि आस्पत्र आरंभ करुंक हें कारण जालें।

अनाथ आस्र्यांतल्या आनि हेर दुबळ्यां आनि निर्गतिक मन्शांच्या भुर्ग्यांक बरें फुडार दिंव्चाक आरंभ जाल्लें वर्कोपाचें काम 1939 इस्वेंत एकदम चड्लें आनि त्या वर्सा एक रूक चिर्चें मिल्ल आनि दफ्तर आरंभ केलें।

फा| विल्यम सिक्वेरा हाणे वेळवें अग्रिकल्चरल सोसायटि आरंभ केलि। हांगा 300 एक्रो जागो सर्कार कडेन मोलाक घेव्न, कृशि केंद्र उघडुन जायित्त्या कुटमांक सहाय दिल्या।

1947 इस्वेंत जेज्वित भावांचा मेळांत मेळ्ल्ल्या फा| वलेरियन सोजान समाज सेवा ताचा जिणियेचो ध्येय जाव्न घेतल्लो। ताणे मंगळुर्चा आसपास आस्चा वीरनगर, जल्लिगुड्डे, फैसलनगर, बजाल, ज्योतिनगर, बज्रोडि, शक्तिनगर, एक्कूरु, पावूरु, जेप्पु इत्यादि जाग्यांनि सारेर निर्माण कर्न, उदाक, शिक्षण आनि वैद्यकीय सौलभ्यां लोकाक मेळाशें केलां। स्त्रीयांक मार्गदर्शन, उळितार कर्चें योजन इत्यादि समाज सेवेच्या योजनांक ताणे प्राशस्त्य दिलि। दुबळ्या धाकट्यांक घरां बांधुन दीव्न 1998व्या वर्सा देवाधीन जाता पर्यांत समाज सेवेचें काम खळिसत नास्ताना ताणें केलें।

जेज्वितानिं सां लुविस कोलेजिच्या शतमानोत्सवाच्या उग्डासाक आरंभ केल्लें 'अलोशियन बाय्स होम' म्हळ्ळो संस्थो समाज सुधारणेंत प्रमुख स्थान घेता। हांगा शेंभरानिं निर्गतिक आनि बालापराधि भुर्गीं वाडोन येव्न, शिक्षण जोडुन, तांचो फुडार बांधुन हाड्चें पळेल्यार आम्कां समेस्तांक जेज्वितां विशयांत अभिमान भोग्ता। हो संस्थो उळाल्चा सोमेश्वर लाग्सार आस्चा नेहरू नगरांत आसा। अशें जेज्वित अजुनयी समाज सेवेचें काम वत्सां सिनतेन मुंदरुन आसात।

**भलाय्के क्षेत्रांत:**

मंगळुर दियेसेजिच्या प्रतिष्टित संस्थ्यां पय्कि एकँ जाव्नास्चि फा. मुल्लरचि आस्पत्र आरंभ केल्लि जेज्वितानिं। 1878 इस्वेंत मंगळुरक आयिल्ल्या फा| आगस्टस मुल्लरन सां लुविस कोलेजिंत भलाय्के रहित विद्यार्थि होमियोपति वक्तां वांटुन ताचें काम आरंभ केलें। ताणे 1880 इस्वेंत कोलेजिंत दुबळ्या आनि अशक्त भुर्ग्यां खातिर होमियोपति डिस्पेन्सरि आरंभ केलि। फा| डयामांटिन आरंभ केल्लें कोड्डागांचें घर 1890 इस्वेंत फा| मुल्लरन चलंव्क सुरु केलें। हांगा तो सुमार 30

जण कोड्‌ड्यांक चिकित्सा दितालो। 1892 इस्वेंत कोर्लजिंत आस्चि आप्लि डिस्पेन्सरि वंध कर्न जेप्पु लाग्सार 50 कोड्‌ड्यांक वस्ति कर्च्या घराक नाचि डिस्पेन्सरि वर्गावण केलि। 1895 इस्वेंत हो विभाग आलोपति विभाग जोड्‌डुंक पाव्लो।

अशें जेज्चितां द्वारिं आरंभ जालूलि कंकनाडि आस्पत्र आतां ह्या प्रदेशाचि एक नांवाड्‌डिक आस्पत्र जांव्क पाव्ल्या। ह्या आस्पत्रेचें आडळनें जेज्चितानिं दियेसेजिक सोड्‌न दिलां। वद्यागंत फा| आंजेलो रविरारि हाणे दुब्ळया धाक्ट्यांच्या गर्जां खातिर एक डिस्पेन्सरि आरंभ केल्लि। आतां थंय फा| पिंटोचि आस्पत्र आसा।

## शिक्षण क्षेत्रांत:

अविभजित दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत शिक्पि आनि वर्पि लोकाचो संखो अख्या कर्नाटकांतच्च अधिक। हाका कारण ह्या प्रदेशांत आस्चें शैक्षणिक वातावरण। शिक्षण क्षेत्रांत अनेक धार्मिक संस्थे वावुर्न आसात तरि ह्या सर्व संस्थ्यां पयिकं पयलें स्थान घेता जेज्चितांनि चलंव्चो सां लुविस कोलेज संस्थो। राश्ट्र मट्टार संग्ळुर उन्नत शिक्षण केंद्र जांव्क आनि ह्या प्रदेशाचो लोक शिक्पा क्षेत्रांत मुक्ल्या पंक्तेर वसोंक, सां लुविस कोलेज कारण जाल्या। ह्या विद्या संस्थ्यांत शिकल्ले विद्यार्थि आतां राश्ट्र आनि अंतरराश्ट्र मट्टार उन्नत हुद्दे घेव्न नांवाड्‌डिक जाल्यात।

1880 इस्वेचा जनेर 12 तारिकेर कोडियालबय्लांत्ल्या एका व्हड्ल्या वंग्ल्यांत (आतां विस्पाचें घर आसल्ल्या लाग्सार) आरंभ जाल्ल्या सां लुविस कोलेजिंत सुमार देड्‌शें विद्यार्थिंनि आप्लें शिकप सुरु केल्लें। हो विद्या संस्थो आरंभ जाल्लो सेरि मार्गरेलिन कुवेल म्हळ्ळया डेवोत दानिन जेज्चितांक दिल्ल्या वंग्ल्यांत।

फा| आंजेलो मुफ्फिन आरंभ केल्ल्या ह्या संस्थ्याचो प्रथम प्रिन्सिपाल फा| जोसेफ आंर्टनि विल्लि। शहरांत्लो मानेस्त लोरेन्स लोबो प्रभु हाणे दान दिल्ल्या जाग्यार दोन माळियांचें वांदाप वांदुन कोलेज आतांचा वावुट्या गुड्यार येव्न पाव्लि। अशें आरंभ जाल्लि सां लुविस कोलेज आतां सवार अंग संस्थ्यां द्वारिं विशाल संस्थो जाव्न वाड्ल्या। ह्या संस्थ्यांत प्रायमरि आनि माध्यमिक, हायस्कूल, सांजेचें हायस्कूल, पियुसि, सांजेचि पियुसि डिग्रि कोलेज, सांजेचि डिग्रि कोलेज, एलोशियस इन्स्टिट्यूट ऑफ कंप्यूटर सयन्स, पोस्ट ग्रेजुवेट कोर्सस, टेक्निकल ट्रेनिंग इन्स्टिट्यूट - इत्यादि आसात। वर्सांक सुमार 9000 विद्यार्थि ह्या विद्या संस्थ्यांत शिकप घेतात। ह्या वर्सा 125 वर्सां संपंव्च्या सां लुविस कोलेजिचि कीर्त राश्ट्र तशेंच अंतरराश्ट्र मट्टार गाजल्या। ह्या वर्सा सां लुविस कोलेजिक NAAC थाव्न 'A' सर्टिफिकेट प्राप्त जाल्या। कोलेजिंत आतां एं वि ए, एं सि ए, एं एस्सि (वयो इनफोर्मेटिक्स), एं एस्सि (वयटेक्नोलजि), म्हळ्ळें चार पोस्ट ग्रेजुवेट कोर्स आसात।

125 वर्साचि परंपरा आस्चो हो संस्थो कंप्यूटर, इलेक्ट्रोनिक्स, तांत्रिक, मेनेजमेंट, मयक्रोवयोलोजि,

बयोटेक्नोलोजि इत्यादि कोर्स दिता। हांगा आस्चि ल्यावोरेटरि आफ अप्लायड बयोलोजि अंतरराष्ट्रीय मट्टार नांवाड्दिक जाव्नासा। हांगा नार्ल आनि काजु बिश्यांत विशिश्ट रितिचें संसोधन चल्ता। सुमार 1981 इस्वेंत कोलेजिन आरंभ जाल्लें ह्या संसोधन केंद्रा थाव्न एदोळ्च 6 जणां विद्यार्थिंक पि.एच.डि. पदवि मेळया आनि तेर विद्यार्थि हांगा आप्लें पि.एच.डि. शिकप मुंदरुन आसात। हें संसोधन केंद्र आरंभ कर्न चलव्न व्हर्चो फा| लियो डि'सोज अंतरराष्ट्रीय ख्यातिचो विज्ञानि आनि ताका ह्या वर्सा संदेश प्रशस्ति लाव्ल्या।

जेज्वितांनि चलंव्चें जेप्पु रेतिर मंदिर क्रिस्तांव लोकाचा आत्मिक गर्जेक पाव्ता। रेतिरं. जमान्यो चलव्न व्हर्न मंगळुर्चा क्रिस्ती पर्जेक एक उत्तिम आत्मिक आस्रो जाव्न हो संस्थो काम कर्ता।

अशें शिक्षण क्षेत्रांत चडित अभिरुच दाकव्न सां लुविस कोलेज उंच्ल्या मट्टाक पावोंक जेज्वितांनि खळिसत नातल्लो वाव्र दिला। ताणे आरंभ केल्ले संस्थे जाव्नास्चे फा| मुल्लरांचि आस्पत्र, सेमिनरि, सां जजेचो आस्रो, सां जुजेचें वर्कशोप, कोडियालबयल छाप्खानो वेळवे एग्रिकल्चरल सोसायटि इत्यादि आतां दियेसेजिच्या आडळत्याखाल आसात।

अशें अविभजित दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत सगळ्या समाजेचा उदरगतेंत प्रमुख पात्र घेतल्ले जेज्वित, ह्या वर्सा सां लुविस कोलेजिचा 125 वर्सांचो उत्सव आचरिताना तांकां मुखल्या वर्सांनि आनिकयि चडित वाव्र दीव्न समाज उद्धार करुंक जाय आसल्लि कुर्पा धनि देव फावो करुंदि म्हण जांव आम्चें मागणें।

*** *** ***

# मंग्ळुर्चि कोंकणि आनि जेज्वित


स्टेल्ला दें कोस्ता

"कोंकणि भास पय्ले पाव्टिं आय्काताना, ति एक्सुरि सांडोन घाल्लि, पय्स गनांत शिंपड्लेलि निगधारि भास अशें दिसोंक पुरे। पूण हि भास संसारांत्ल्या इतर भासांवरि भोव मधुर सोवाळ उत्रानि भर्ल्या। कोंकणि वोव सुंदर, नाजूक तशि अपुर्बायेचि भास। हि एक सदां अंवुर्कि हाम्चि भास" अशें उद्गारल्लो 1878 वर्सा इटलि ताव्न मंग्ळुराक येव्न पावल्लो जेज्वित मिशनरि फा| आंजेलो फ्रान्सिस क्सेवियर माफे (1844 - 1899). मंग्ळुरांत पयिल्ले पाव्टिं कोंकणि आय्काल्ल्या फा| माफेचिं खाशेलिं भोग्णां हिं।

गोंयांत कोंकणि खातिर जें पा| तोमस स्टीवन्स वापान केलें, तें मंग्ळुरांत फा| माफेन केलें म्हण्येत। मंग्ळुरांत जेद्नां ताणे पाय दवर्लो तेद्नां ताका कोंक्णिंच न्हय इंग्लेज भाशेचिय वळक नातल्लि। फा| माफे मंग्ळुराक पाव्ताना, गोंयांत जेज्वितांनि कोंकणिंत दोतोर्न, दैविक साहित्य न्हय आस्तां, शब्दकोश, व्याकरण इत्यादि घडोन जाल्लें। पूण तें सम्जोन ताचे थाव्न कोंकणि शिकोंक फा| माफेक आव्कास लावोंकच ना।

सां लुविस कोलेजिचो रेक्टर आनि प्रिन्सिपाल जाव्न उंच्लि सेवा दिल्लो फा| माफे बहुभाषा पंडित तसो इतिहासकार जाव्नासल्लो। कोंकणि भाशेचा शिक्पा, अध्ययना आनि संसोदावर्विं तो कोंकणिचो प्रेमि जांव्क पाव्लो।

जशें जेज्वित रचेल सेमिनरि मुखांत्र गोंयांत कोंकणिचा वाडावळेक कारण जाले तशें सां लुविस कोलेज आनि हेर जेज्वित संस्थे मंग्ळुरांत कोंकणिचा वाडावळेक कारण जाले म्हण्चाक दुवाव ना।

फा| माफे मंग्ळुराक पाव्लो तेद्ना मंग्ळुरांत लेक धर्येत म्हण्चे तित्लो कथोलिक लोक आसल्लो। इंक्विजिशनाचा भियान, वर्गाल आनि इतर संकश्टांक लागोन लोक गोंयां थाव्न मंग्ळुराक पोळून आइल्लो तो कृषिक जाव्न आर्थिक दिश्टिन संपन्न जालो। पूण तांचि वोव सुंदर संपन्न कोंकणि भास तांचा नेगाग्पणान कोन्शाक पड्लि। कोंकणि वरव्पांत तशें उलव्पांत कसलोय एक्तार नातल्लो। कोंकणि उलव्पि लोक कसोय उलय्तालो आनि आप्लि भास कामाक उपकार्चि न्हय म्हळळया हल्क्या चिंत्नांनिं जियेतालो।

मधुर आवाजाचि सोभित सुंदर सदां आंवूर्कि हाम्चि गनांत्लि गणि कोंकणि फा| माफेचा निरंतर समर्पित वाव्रान उज्वाडाक आय्लि। माफेन कोंकणि भाशेक एक थिर बुन्याद घालि।

मंग्ळुर्च्या क्रिस्तांवांनिं उलंव्चे कोंकणि भाशेक व्याकरण आनि वाक्सरि माफे वापान वर्यिल्लिच पय्लि। लोकान उलयिल्लें आय्कोन आनि उत्रांचा प्रयोगांचि परीक्षा करून आप्लें व्याकरण आनि

वाक्सरि वरयिल्लि म्हण तो म्हण्तालो। हिं पुस्तकां आदिं कशें तशें आतांय मोलाधिक जाव्न उल्र्यांत।

1882 - वर्सा कोंकणि व्याकरण तशें 1883 - वर्सा इंग्लेज कोंकणि शव्दकोश वरव्न काड्ले। हे वूक मद्रास सर्कारचा खर्चार छापोन आयिल्लि रजाल महत्वाचि जाव्नासा। 1891- वर्सा कोन्फेसोरचें वादे - मेकूं (Vade - Mecum) कुम्सारिंत शिक्लेलि कोंकणि भास वरय्लि। कुम्सारिंत वसल्लो फा| माफे लोकाचिं उत्रां वरव्न घेतालो आनि मागिर तिं शिक्तालो। शिक्तच्च हिं मुक्ल्या याजकांक उप्कारक पड्तित अशें लेकुन ताणे वादे मेकूं पुस्तक वरय्लें। त्याच वर्सा कोंकणि - इंग्लेज शव्दकोश रच्लो। 1892 - वर्सा, 'कोंकणि रनांत्लो सोभित सुंदर ताळो' - व्याकरण वरय्लें।

फा| माफेन वरयिल्लें व्याकरण तशें शव्दकोश मंग्ळुरि कोंकणिंत पयिल्ले जाव्नासात।

जेजुक्रिस्ताचा पाशांवाचि कथा, सां फ्रान्सिस सावेरन दिल्लो क्रिस्तांव समोड्तिच्या सतांचो विवर इत्यादि वर्पां आतां पळेंव्क मेळानांत।

कोंकणि संस्कृता थाव्न देंवोन आयिल्लि एक स्वतंत्र भास म्हण संशोधना मुखांत्र माफे-वापान रुजु कर्न दाकय्लें।

"केनरा क्रिस्त समोड्तिचि चरित्रा" संसोद कर्न मांडुन हाड्लि पुण तिं फाय्स जालि ना। ह्या चरित्रेंत 17व्या शतका थाव्न वड्गा आनि तेन्का केनराचा क्रिस्त समड्तिचे परिगतेचि जाण्वाय मेळता। ह्या वेळार लोका खातिर कोंकणि तशें इंग्लेज भाशेंत सारण्यांचे वूक वरयिल्ले दाख्ले आसात।

फा| माफेन केल्लि कोंकणि भाशेचि सेवा, चरित्रेचें संशोधन आनि शिक्षण क्षेत्रांत ताचो अन्भोग मानुन ताका 1895- वर्सा मद्रास विश्वविद्यालयाचा अधिकार मंडळेचो सांदो जाव्न नेमक केलो।

19व्या शतकाचि आखेर आनि 20वें शतक कोंकणि भाशेचा चरित्रेंत महान साधनेचें म्हण्येत। हो काळ कोंकणि भास आनि साहित्याचो स्वर्णा युग जाव्नासा। हाचि सुर्वात मंग्ळुर्चे कोंकणि शेतांत फा| माफे थाव्न जालि म्हळयार चूक जांव्चि ना।

1882- वर्सा जेज्वित फा| आंजेलो मुफ्तिन कोड्याळवैल छाप्खानो स्थापन कर्तच रोमि लिपिंत वरयिल्ल्यो कोंकणि कंतिगो आनि ल्हान ल्हान शास्त्रिक पुस्तकां फाय्स जांव्क सुरु जालिं। हांचे पैकि सवार जेज्वितांनि वरयिल्लिं जाव्नासात। सां। इनास लोयोलाचि जिणि जेज्वित फा| पास्कल रेगोन वरय्लि।

जेज्वित फा| जोन वाप्टिस्ट पोलेसेन वरयिल्लो 'दिस्पड्तो सांगाति' वूक 'सिसार वाच्चो वूक'

म्हण लोका मोगाळ जाल्लो। नव्या तेस्तामेंताच्यो मुख्य संगति, जेजुक्रिस्ताचि देक काण्यांच्या विश्यांत, "अक्टोबर महिनो" फा| पोलेसेचे इतर बूक जाव्नामात। कोंकणि भास भोव अपुर्बायेन उलंव्चो फा| पोलेसे लोकामोगाळ आसल्लो।

जेज्वित फा| डेनिस जुवांव मरि आल्वकर्क पै (1888 - 1970) मोवाळ कोंकणि भाशेचो भक्त। कोंकणि शेतांत हाचो रेग्रेचो वाव्र, थंडायेन केल्लें गुपित, गुंडायेचें संशोधन मेच्वोंक फावो जाल्लें जाव्नामा। फा| डेनिस आल्वकर्क पै (दिनेश पै) बरूरूपि प्रतिभेचो मनिस। कांतांते दोमिनो (Cantante Domino) हाचि प्रमुख कृति। आप्ल्या उतर प्रायेग्य वोरांचि वोरां कोंकणि व्याकरणाचें अध्ययन चलय्नालो। फा| डेनिस आल्वकेर्कान इंग्लेज-कोंक्णि शब्दकोशाचे तीन ल्हान-ल्हान बूक बरय्ले। कोंकणि नाटक खेळोंव्चा खातिर डानवोस्को नाटक माल बांधय्लें। हांगासर आजून साहितिक कार्यिं जातेच आसात।

जेज्वित फा| सिप्रियन कोस्मोस आल्वकेर्क पै (1927 - 2001) स्वामि सुप्रिय म्हणोन साहित्य संसारांत वोळिकचो स्वामि सुप्रियान बरयिल्ल्या दोन्शां वय्र बुकांनि लागिं लागिं 116 कोंकणि भाशेन आसोन उरल्ले कन्नड भाशेन आनि थोडे इंग्लेज भाशेन आसात। थोड्या बुकांनि आजून उज्वाड पळेंव्क ना। ताणे रचल्लें कोंकणि साहित्य सृजनात्मक, संसोदात्मक, जानपदीय, धार्मिक आनि संपादित रुपांचे जाव्नासा। कोंकणि भास मात्र न्हय आस्तां 7 विदेशि भासो आनि 14 देशि भासो तो जाणा आसल्लो। धार्मिक तत्वां आनि संसारि सतां, प्रकृतेचा सोभायेंत गुंतुन, सोगाचा सोवांत बुडोव्न आप्ल्या वाच्प्यांक ताणि दिल्यांत। स्वामि सुप्रिया तीक्ष्ण तशें समर्त व्यक्तित्वाचो साहिति। ताचो 'आन्या आकय आनि इतर कवनां' बूक मंगळुर विश्वविद्यालयान पाठपुस्तक जाव्न विंच्ला।

1972 थाव्न 1982 इस्वेचा आव्देंत धारवाड विरक्ताश्रम स्थापन केल्ल्या तवळ थाव्न ताचो साहितिक वाव्र भगन चलोंक लाग्लो। 1982 वर्सा धारवाड लागिशिल्या हळियाळ हळ्ळेंत ताणे विवेक प्रगति केंद्र स्थापन केलो आनि थंय्सर ताणे आप्लो साहितिक वाव्र मोग पर्यांत चलोव्न वेलो। मट्ट्यो काणियो, हुमिण्यांचो महान संग्रह, कोंकणि धातुरूप संजरि, कोंकणि भाशेचें सन्शा शास्तिर, कोंकणि कोंकणि - कन्नड - इंग्लेज अर्थकोश, इंग्लेज-कोंकणि, कोंकणि-इंग्लेज सब्द संग्रह, प्रमाण कोंकणि भाशेचें येव्जण, कर्नाटकांत कोंकणि संस्कृति इत्यादि ताणे बरयिल्ल्या महत्वपूर्ण बुकां पैकि थोडे जाव्नामात। स्वामि सुप्रियाचें साहित्य कोंकणि लोकाक वाट दाकंव्चें नेकेत्र जाव्नासा।

जेज्वित फा| सिल्वेस्टर मोंतेरो सां लुविस कोलेजिचो रेक्टर आनि प्रिन्सिपाल जाव्न वावुर्लोलो आन्येक कोंकणि साहिति जाव्नामा। ताणें बरयिल्ल्या 27 बुकां पैकि 20 कोंकणि भाशेंत आसात। पवित्र सभेचे सुर्विले वीर, सळावळ, देवाचिं भुर्गिं, ताळ-मूळ, शेतां-भाटां, जाग-माग इत्यादि बूक फा| मोंतेरो थंय आस्चा साहितिक आम्कां दाकय्तात। हो गुपित उरोंक आशेल्लो एक साहितिक वाव्राडि - असो दिसोन येता।

जेज्वित फा| टि. ए. लोबोन भुर्याऑ खातिर "जेजुराय" महिन्याळें पत्र आरंभ केलें आनि पंच्वीस वर्सां पर्यांत तें भुर्ग्यांचा संसारांत मोगाळ जावन उर्च्याक दीस-रात एक्सुरे वावुर्लो। 'आंज' पत्राचो संपादक जावन वावर केल्लो फा| सि. गोन्साल्विस, आय्तारचे वांजेल - कोंक्णि मागिणं आनि गितां वरयिल्लो फा| जोर्ज आल्वकर्क, जेजुचें सैन्य आनि इतर बूक वरयिल्लो फा| ए.एस. रोड्रिग्स, संगीता ध्वारिं कोंकणि लोका मोगाळ केल्लो फा। वाल्टर आल्वकर्क, कोंकणि दिर्वे आनि राक्णो पत्रांनि वंट्राळगार, सेवेस्त्यांव म्हळळ्या लिखणे नांवांनिं लेखनां वरवन कोंकणि भाशे थंय विशेष अभिरुच दाकयिल्लो फा| मन्वेल कुवेल्लो हांकांय उग्डासाचो मान फावो जाता।

1963-0त प्रगटल्ल्या रवींद्र केळेकाराच्या कोंकणि ग्रंथसूचि बुकांत, विसाव्या शतकाचा सुर्विल्या तशें मध्ल्या वांट्यांत दय्विक भक्तिचे, सांतांच्या जिणियेचे, मागणें, रजार, नोवेनां आनि कंतारांचे सवार बूक कोड्याळवय्ल छाप्खान्यान आनि कोंकणि कथोलिक सत सभेन (K.C.T.S.) उज्वाडाक हाडल्ले दाख्ले आसात। ह्या बुकांचा वरय्णारांचिं नांवां नांत। हे बूक वरयिल्ले अनामिक वरप्पि कोण आस्येत??

1880 - इस्वेंत सां लुविस कोलेजिचें स्थापन जाल्ल्या तवळ थावन येदोळ पर्यांत एक ना एका रितिन कोंकणि भाशे आनि साहित्याचे उदर्गतिचें काम कोलेजिद्वारिं जावनच आय्लां। 1980- वर्सा कोलेजिचा शतमानोत्सवाच्या संदर्भार कोंकणि भाशे आनि साहित्याचि वाडावळ खळनास्ताना जांव्क जाय म्हण्च्या उद्देशान कोंकणि अध्ययन केंद्र स्थापन जालो। कोंकणि भाशे आनि साहिताचे जिवितांत नवो अध्याय प्रारंभ जालो। नांवाड्दिक कोंकणि वरव्प्यांक सांगाता मेळोवन 'अमर कोंक्णि' स महिन्याळें पत्र कानडि तशें देवनागरि लिपिंत 1981-0त प्रारंभ जालें। जेज्वित फा| हर्बट नोरोन्हा 1980 थावन 1994 इस्वे पर्यांत अमर कोंक्णिचो दिरेक्तोर जावनासल्लो। तवळ अमर कोंक्णिंत अत्युत्तम संशोधित लेखनांचो व्हाळोच जालो।

कोंकणि केंद्राचो वांटो जावन प्रारंभ जाल्ल्या ग्रंथ भंडारांत साहित्याच्या विविध प्रकारांचे ग्रंथ आसोन तें कोंकणि अध्ययन तशें संसोद कार्याक विशिष्ट थरान सहायक जावनासात।

1992 वरस कोंकणि भाशेचा जिवितांत भांग्राळ्या अक्षरांनि वरवन दवरिजाय जाल्लें वरस जावनासा। त्या वर्सा जनेराचे चार तारिकेर सां लुविस कोलेजिंत कोंकणि विभागाचें उग्तावण जालें। ह्या कार्याचो रुवारि सां लुविस कोलेजिचो प्रिन्सिपाल जेज्वित फा| जोसेफ नेलपति, फा| नेलपति आंध्रप्रदेशाचो, कोंकणि भास नेणा आसल्लो तरि कोंकणिचेर ताणे दाकयिल्लि उमेद वर्ति। 1992 वर्सा कोंकणि भाशा शास्त्रांत पदविका जोड्चे खातिर चार हंतांनिं चल्चो कोंकणि डिप्लोमा कोर्स आरंभ जाल्लो।

जेज्वित फा| प्रशांत माड्ता 1994 थावन 2003 इस्वि पर्यांत सां लुविस कोलेजिचो प्रिन्सिपाल जावनासल्लो। हो काळ कोंकणिचा मट्टाक दुदा मोंवाचो काळ। फा| माड्ताचा फुडार्पणाखाल

चलल्ल्या तज्ञांचा समितिन अध्ययन कर्न कोलेजिंत कोंकणी शिकव्येत अशि शिफारुस दिलि। 1995-च्या जून 24 तारिकेर मंग्ळुर विश्वविद्यालयाचे 'अकाडेमिक कौन्सिल सभा' कुलपति प्रो| एं.ए. सवदत्तिचा अध्यक्षतेखाल जमल्ल्या संदर्भार मंग्ळुर विश्वविद्यालयांत कन्नड आनि हिंदि भाशे सांगाता कोंकणि भाशेकय स्थान दिंव्चो चारित्रिक निर्णय घेल्लो। हाचो परिणाम जाव्न 1995 इस्वे थाव्न कोलेजिंत कोंकणि शिकाप विद्यार्थि विद्यार्थिनिं शिक्तात, मात्र न्हय कोंकणि संघ स्थापन कर्न कोंकणि भास आनि साहित्याक संबंध जाल्लिं कार्यिं चलव्न व्हर्तात। हांचे पाट्ल्यान आम्चो प्रोत्साह आनि सहकाराचो पाटिंवो फा| माड्ता।

1997-0त दोन वर्सांचो कोंकणि पद्युत्तर पदविका तप्पाल शिक्षण कोर्स फा| प्रशांत माड्ताचा दिरेक्तोरपणाखाल प्रारंभ जालो तो आजून कोंकणिचें उंच्लें शिक्षण विद्यार्थिंक दीव्नंच्च आसा।

फा| माड्ता कोंकणि, कन्नड तशें इंग्लेज भाशेंत बरय्णार जाव्नासा। कोंकणि पिकोळिं, शेंभर किटाळां, राटावळ 2004-0त फाय्स जाल्ले ताचे बूक जाव्नासात। कोंकणि - कोंकणि शब्दकोश आनि इंग्लिश भाशेंत - सां लुविस कोलेजिचि चरित्रा हे बूक 2005-0त उज्वाडाक येंव्चे आसात।

जेज्वित फा| एव्जिन लोबो 2004 - इस्वे थाव्न सां लुविस कोलेजिचो प्रिन्सिपाल जेज्वित परंपरा पर्माणे पा| लोबो कोंकणि भाशाप्रेमि, भाशे आनि साहित्याचि अभिरूच आसोन त्या खातिर आप्लो वाव्र दींव्क तयार आस्चो जाव्नासा। मात्र न्हय कोंकणि बरय्णारयी जाव्नासा म्हळिळ संतोसाचि गजाल।

कुडिक अस्सो कसो, तशें बाळाक आवय्चें दूद जशें आवय्चें दूद बाळाक सर्वस्व तशें मांय भास मन्शा-समुदायेक। मांय-भाशेचि गर्ज आनि उंचाय उत्रांक मेळाना पूण शाणेपण सम्जोंक सक्ता। शिक्षण, कार्य-समर्थि, कर्तव्य आनि शेगुणांचो एक्तार जाव्न आसल्ले शाणे जेज्वित हें सम्जाल्ले जाल्ल्यान विदेशि तरि ह्या गांव्चि मांय-भास ताणि जिवि दवर्लि आनि तांचे नंतर आयिल्ल्यांनि हें कार्यें कश्ट-नश्ट लेकिनास्ताना, स्वतःचें व्हडाप वडाय नास्ताना मुकारून व्हेलें। निजाकि रनांल्लि राणि कोंकणि भाशिच सय।

**लेखनाक आधार**


1. Manohan Sardesai - A History of Konkani Litrature

2. Fr. Prashant Madtha - A History of St Aloysius College.


*** *** ***

# शिक्षणाद्वारिं प्रगति



**प्रो. लिगोरि मेंडोन्सा**
अर्थशास्त्र विभाग,
सां लुविस कोलेज

1878 इस्वि। महिनो दशेंबर। तारिक 31. हो दीस आख्ख्या मंगळुर्चा चरित्रेंत भांगाराचा अक्षरांनि बरोंव्क फावो जाल्लो दीस जाव्नासा। किल्याक, त्या दिसा 9 जण जेज्वित मंगळुर बंद्रार नेत्रावति नंय्चे तडिर देंव्ले। आम्च्या माल्घड्यांनि शिक्षणा खातिर जेज्वितांक मंगळुरक धाडिजाय म्हण तवळ तवळ पापमाय्भाक विनंति केल्लि। हाचो परिणाम जाव्न 1878व्या इस्वेंत सप्तेंबर महिन्याचा 27 तारिकेर पापमाय्बान एका डिक्रे मार्फात मंगळुर आनि मलबार जिल्ल्यांचो एक वांटो जेज्वितांचा हातांत दिलो। फळ जाव्न इटेलिचा वेनिस जेज्वित प्रांताचे जेज्वित मंगळुरक आय्ले।

जेज्वितांनि मंगळुर पावल्लेंच्च, आप्लो वाव्र धार्मिक, वैद्यकीय आनि शिक्षण क्षेत्रांत आरंभ केलो।

जेज्वितांनि सां लुविस कोलेजिचे संस्थे आरंभ केल्लि सुवात श्रीमति मेरि माग्दालेन कुवेलिंगेलि। पयिल्लि क्लास कुवेलिंगेल्या बंगल्याचा मुक्ल्यान घाल्ल्या माट्वांत चलय्लि। तारिक जनेर महिन्याचि 12 इस्वि 1880. दुस्रि तशें तिस्रि क्लास बंगल्याचा वेरांडाचा कुशिन आनि संकय्ल्यान चल्तालि। अशें, भोव साद्या रितिर कोलेजिचि सुर्वात जालि।

जेज्वितांचा सांगाता आयिल्लो सा| आगुस्टस मुल्लर। तो पिडेंत आस्ताना, एलोपेतिवर्विं गूण जाय्नातल्लि पिडा, होमियोपेतिक वक्तानि गूण जालि। तशें जाव्न ताणे होमियोपति वक्तांचा प्रयोगाविशिं शिकाप जोड्लें। तें शिकाप संपव्न हेर जेज्वितां सांगाता येताना ताणे होमियोपति वक्तांचि एक पेट आप्ल्या संगिं मंगळुरक हाड्लि। ताणे कोलेजिंत शिकोव्न आस्ताना अस्कत भुर्ग्यांक विंचुन काड्न तांकां वरि भलाय्कि मेळचा खातिर गोड्श्यो होमियोपति गुळियो तो दितालो। हांतुं सवारांक बरेंपण लाभ्लें। अशें आस्ताना इस्कोलाचो भुर्गोच्च न्हय आस्तां, हेर लोकानिंयी येंव्क सुरु केलें। लोकाक चडित वैद्यकीय सेवा दिंव्च्या खातिर फा। मुल्लरान 1880व्या इस्वेंत कंक्नाडिचा वठारांत तंवु मार्लो। सुकार 1902व्या इस्वेंत 'प्लेग' पिडा मंगळुरांत भिरांकुळ परिणाम कर्ताना, फा| मुल्लर आप्ल्या सहायकां संगिं पिडेस्तांचि धर्मार्थ सेवा दींव्क सुकार सर्लो। हाचा उप्रांत जाल्लि फा| मुल्लर आस्पत्रेचि वाडावळ आनि आज ह्या आस्पत्रेचें नांव सगळ्या संसारार विस्तारोन गेलां। 1933 इस्वेंत फा| मुल्लर आस्पत्रेचें आडळतें, जेज्वितांनि गांव्चा सेकुलारांचा तावेन दिलें। आदिं फा| मुल्लरान दिंव्च्या वक्तांचिं नांवां अशिं आसल्लिं:

**1. जेज्वित कात:** सिंकोना रुकाचि साल मलेरिया तापाक वोकात जाव्नासा।

**2. जेज्वित थेंबे:** लसुणे थाव्न तयार जाल्ले वक्ता थेंबे

**3. जेज्वित पाव्डार:** सिंकोना रुकाच्या सालिचो पिटो

**4. जेव्वित चाः** प्यूर्गालिया ग्रयांड्युलोस म्हळ्ळया एका धान्याचा पाल्यांचो पिटो चाये पिट्या वद्लाक गळिमतात

## जेराल शिक्षण - सुर्विलिं वर्सां:

सां लुविस शिक्षण संस्थ्यांनि मेट्रिक्युलेशन परीक्षेचें फलितांश 1881व्या इस्वेंत फाय्स जालें। परीक्षेक बसल्ल्या 20 जणां भुर्ग्यां पय्कि 15 जण पास जाल्ले। F.A. (एफ. ए) म्हणजे फेलो आफ आर्ट्स (Fellow of Arts) ह्या परीक्षेचें फलितांश 1883व्या इस्वेंत फाय्स जालें। परीक्षेक बसल्ल्या धा जणां पय्कि 5 जण पास जाल्ले। बि.ए. सनद जोडुंक 1889व्या इस्वेंत जाल्ल्या परीक्षेंत 4 जणां पय्कि दोग जण पास जाल्ले। अशें शिक्पा शेतांत मुंदरुन सुक्ल्या वीस वर्सांनि म्हणजे 1900व्या इस्वेंत मेट्रिक्युलेशन परीक्षेंत 38 जण परीक्षेक बस्ल्यांत 11 जण पास जाले। एफ.ए. परीक्षेंत 38 जणां पय्कि 11 जण पास जाले। बि.ए. परीक्षेंत 29 जणां पय्कि 24 जण पास जाले। अशें विसावो शतमान आरंभ जाताना सां लुविस कोलेजिचा संस्थ्यांनि शिक्पाचें मट्ट ऊंच आसोन 'पास' जांव्वें 'सुलभ' नातल्लें।

## शिक्पाचे विशय आनि शिक्पाचि रीत:

सुर्विल्या वर्सांनि प्राथमिक आनि हायस्कूलाक आसल्ले विशय प्रमुख जाव्न - क्रिस्तांव शिकोण (कथोलिक भुर्ग्यांक), इंग्लिश, लातें, कन्नड, लेक (Maths), चरित्रा (History) भुंयशास्त्र (Geography) भौतशास्त्र (Physics) रसायन शास्त्र (Chemistry), संगीत, जिम्नास्टिक इत्यादि। सव्कास मेन्सुरेशन म्हळयार लेका (Maths)चा रेग्रां पर्मांणे मेजाप वेवहारांत उपयोग कर्चो - पत्र वेवार... इत्यादि विशय हायस्कूलाच्या भुर्ग्यांक शिकोंक आसल्लें।

कोलेज हंतार कथोलिकांक क्रिस्तांव धर्म (Religion) आनि हेरांक इंग्लिश लातें, कन्नड लेक (Maths), चरित्रा, तर्कशास्त्र (logic) आनि मन्शाचा कुडिचें शास्त्र (Physiology). सव्कास नय्तिक शिक्षण (Ethics), अर्थशास्त्र, राजकीय शास्त्र, संस्कृत, मलयाळं, पुर्विलें कानून। हे विशय कोलेज हंतार भुर्ग्यांक शिकोंक आसल्लें। हाचे सांगाता कोलेज आरंभ जाल्ल्या 7 वर्सां भितर भासांचि (Comparative Philology) विविध कुळियांचो उद्भव (Ethnology) असले विशय कोलेज शिक्पांत आसल्ले। 1924व्या इस्वेंत तत्वशास्त्र, 1996-97 मनःशास्त्र (Phsychology) असले विशय कोलेज शिक्पांत आसा केले।

सां लुविस विद्या संस्थ्यांनि हायस्कूल म्हणासर आनि कोलेज म्हणासर आसल्ले शिक्पाचे विशय पय्ल्या 50 वर्सां म्हणासर साधारण जाव्न उर्ले। कोलेज तशें प्राथमिक आनि हायस्कूल सकाळिं 10.15 वोरार आरंभ जाव्न सांजेर 5 म्हणासर क्लासि चल्ताल्यो।

सुर्विल्या 50 वर्सांनि शिक्पाचि रीत विशेस वद्लावणेक वळग जांव्क नातल्लि। पय्लें, सकय्लि तिस्रि, वय्लि तिस्रि, चोव्ति, पांच्वि... अशें आसल्लि रीत सव्कास वद्लालि। पय्ल्यो पांच क्लासि साधारण शिकाप जालें। ताचे उप्रांत पय्लें फोर्म, दुस्रें पोर्म अशें फोर्म लेकार शिकाप

आरंभ जालें। कोलेजिच्या भांगारोत्सवाच्या संदर्भार VIवें फोर्म म्हळयार XIवि क्लास आसल्लि। 1930व्या इस्वेंत, म्हळयार भांगारोत्सवाच्या संदर्भि कोलेजिंत 352 विद्यार्थि आसल्यार, प्राथमिक आनि हायस्कूलांत 966 चले विद्यार्ति आसल्ले। अशें ओट्टुक 1318 विद्यार्ति म्हणासर संखो वाडल्लो। वि.ए. मनद जोड्च्या पय्लें कोलेज हंतार एफ.ए. शिकाप जोडुंक भांगारोत्सवाच्या संदर्भारयी आसल्लें।

कोलेज आरंभ जाव्न 1882व्या इस्वेंत मद्रास विश्वविद्यालयाखाल आय्लि। 1885व्या इस्वेंत वाल्ट्या गुड्यार कोलेजिचें वांधाप उग्तावण जालें। 1900 इस्वेंत आतां म्यूसियम आस्चें तांव्डें वांधाप उग्तावण जाल्लें। कोपेलाचें पेंय्टिंग 1901व्या वर्सा संपूर्ण जाल्लें। 1908व्या इस्वेंत कोलेजिक तशेंच्च प्राथमिक इस्कोलाक दोन अंतस्तांचें वांधाप उग्तावण जालें। हाचे सांगाता ल्हान भुर्ग्यांक 'वोर्डिंग' आनि कोलेजिच्या भुर्ग्यांक 'होस्टेल' ह्याच्च वर्सा आरंभ जाल्लें। 1928व्या इस्वेंत लैब्रेरि आनि विग्यान विभागाक दोन अंतस्तांचा वांद्फाचें विस्तरण जालें। ताचे उप्रांत 1930व्या वर्सा भांगारोत्सव आचरण जालो।

भांगारोत्सव जाल्ल्या उप्रांत कोलेजिचि वाडावळ त्वरित जालि। 1939 इस्वेंत हायस्कूलाचें वांधाप उग्तावण जालें। दुस्र्याच्च वर्सा कोलेजिक इंग्लिश भास आनि हेर भासो शिकोंव्च्या खातिर वांद्फाचें विस्तरण जालें। आतां कोलेज चल्च्या वांद्फाचें आरंभ 1946व्या इस्वेंत मुल्या फातोर दवर्न आरंभ जाल्लें। त्याच्च दशकांत कामयी संप्लें। अशें 1950वि इस्वि आकेर जांव्चा पय्लें कोलेजिंत शिक्च्या विद्यार्थिंचो संखो हजारांक मिक्वालो। प्राथमिक आनि माध्यमिक इस्कोलांत शिक्चा विद्यार्थिंचो संखोयी हजारांक मिक्वोन गेलो। त्या वेळिं सगळ्या संस्थ्यांनि शिकाप दिंव्चा सेस्त्रिंचो आनि टीचरांचो संखो लग्भग 103 जाव्नासल्लो।

आम्कां स्वातंत्र्य मेळल्ल्या आट (8) वर्सां उप्रांत म्हळयार 1955व्या वर्सा सां लुविस कोलेज कर्नाटक विश्वविद्यानिलयखाल आय्लि। पूण दुस्र्याच वर्सा मैसूर विश्वविद्यानिलयखाल जालि। ताचे उप्रांत 1963व्या इस्वेंत सांजेचें हायस्कूल आरंभ जालें। ताच्या दुस्र्या वर्सा कोलेजिचें आडिटोरियं (Auditorium) उग्तावण जालें। 1968व्या इस्वेंत सां लुविस सांजेचि कोलेज आरंभ जालि। ताच्या दुस्र्या वर्सा कोलेज शिक्षकां खातिरच्च वस्तेचिं फ्लेटां वांध्लिं। प्राथमिक इस्कोलाचें नवें वांधाप 1976व्या इस्वेंत उग्तावण जालें। शतमानोत्सव आचरण जांव्चा दोन वर्सां पय्लें विविध वृत्तिपर शिक्षण (Vocationalised courses) आरंभ जालें।

1979 आनि 1980वें वरस सां लुविस संस्थ्यांचि शतमानोत्सव आचरणाचें। शतमानोत्सवाचा उग्डासा खातिर कोलेज लाय्ब्रेरि शतमानोत्सवाचा नव्या वांद्पांत आसा केलि। उळालांत नेहू नगर म्हळ्ळेकडेन आधार आनि आस्रो नातल्ल्या भुर्ग्यां खातिर एक वस्ते घर आसा केलें। स्नातकोत्तर डिप्लोमा, खेळाचिं मय्दानां, कोंक्णि संस्थो, कोंक्णि संशोधन... अशें सवार नविं सेटां ह्या संस्थ्यान काड्लि।

2004 - 05वि इस्वि, सां लुविस संस्थ्यांचो एक्शें पंच्वीस (125) वर्सांच्या उत्सवाचि गेलेत्या

पंच्वीस वर्सांनि ह्या संस्थ्यांनि जाल्लि प्रगति विशेस। 1980व्या दशकांत सां लुविस कोलेजिंत चलियांक शिक्पा खातिर प्रवेश आसा केलो। आय्लेवार प्राथमिक इस्कोलांतयी चलियांक प्रवेश आसा केला।

आय्लेवार्च्या 25 वर्सां भितर सां लुविस संस्थ्यांनि एं.बि.ए. एं.सि.ए. एं.एस.सि. (Biotechnology) स्नातकोत्तर डिप्लोमा, एं.एस.डब्ल्यु. बि.एस.डब्ल्यु. संशोधन कर्चि ल्याबोरेटरि अशें सबार थरांचे नवे कोर्स आरंभ जाल्यात। त्या तेकिद, नविं बांधपांयी जाल्यांत। ऐ.टि. ब्लोक, क्षेवियर ब्लोक, गोन्जागा ब्लोक, लोयोल्ला ब्लोक.... अशें सबार नविं बांधपां अस्तित्वांत आयल्यांत। हांचे सांगता चल्यांक आनि चलियांक होस्टेलां आसा केल्यांत। वृत्तिपर शिक्षणा खातिर्यी नवें बांधाप आसा केलां।

प्राथमिक इस्कोला थाव्न आरंभ कर्न सगळया संस्थ्यांनि शिक्चा भुर्ग्यांचो संखो गेलेन्या वर्सा 8185 आसल्लो, ह्या वर्सा 8649 जाव्नासा। हांगासर वाव्र दिंव्चा शिक्षकांचो, शिक्षकिंचो आनि हेरांचो संखो (500 पांयिशिंभर आसा। केवल दोन शिक्षक आनि 23 भुर्ग्यां थाव्न आरंभ जाल्ल्या ह्या संस्थ्याचि वाडावळ अद्भुत जाव्नासा। आज ह्या संस्थ्यांत दुब्ळया भुर्ग्यांक कुसोकच्च रुपय 87 लाख पर्यांत खर्च जाता। आतांचा सर्कारि कानूनां पर्माणें शिक्षक आनि हेर हुद्दे भर्ति जाय्नांत। तशें जाव्न जेज्वित आडळित मंडळिक सिवंधेचा सांबाळा बाव्तिन रुपय 2 1/2 कोरोड म्हणासर, वर्सावर खर्च जाता - पूण आट हजारकी सिक्चोन शिक्चा भुर्ग्यांचो मुक्लो फुडार आनि तांकां शिकप दिंव्चा शिक्षकांचो आनि हेरांचो उज्वल फुडार पळय्ताना, सां लुविस कोलेजिक आधार जाव्न सग्ळि क्रिस्तांव समाज रांव्चांत दुभाव ना।

*** *** ***

# कोडयाळ सांत लुविस कोलेजि थाव्न 125 वर्सांनि कोंक्णि साहित्याक जेज्वितांचि देण्गि ।

- ग्लेडिस रेगो

संसारान्त्ल्या सोवित्त सुंदर आनि शांति समादानेच्या जाग्यां पयिकि भारताचि पश्चिम करावळ - वोव चड आकर्षणाचें स्वाबावीक वृंदावन - म्हण, विदेशियांचें तर्शील परिशीलन कर्ताना कळोन येतच्च, ह्या सोभायेच्या पर्ल्गंणाक, नयिक ग्रेस्तकायेक, आनिं शांति समृद्धक भुलोन, विदेशि नाविकांनि - सात दर्यां भाय्र - पुड्तुगोला थाव्न, वास्कोडिगामा, ताचे उप्रांत सभार पुड्तुगेज, स्फेनिश मिशियोनरि, फ्रेंचं, ढच, जर्मन आनि ब्रिटीश नाविक, आप्लिं तार्वा घेव्न, हजारों सय्लांचें रिस्केचें - पय्ण करुन, आम्चा कोंकण करावळेर कायाम रव्लें।

आनि पाश्चात नागरिक्पोणाचि परिचय देशि लोकाक दिताना, आम्च्याय पुरातन नागरिक्पोणाचि व्हळक कर्न, आम्च्यो भासो शिकोन, धार्मक साहित्य - व्याकरणां, चरित्रा, अर्तकोश तयार केले।

क्रि। श। सोळाव्या शतमानांत पोर्चुगेजांनि गोंय स्वादिन कर्तच्च, फ्रान्सिस्कान प्राद 1517 इस्वेंत गोयांक देंव्ले। पोर्चुगीज वासेन वांजेल प्रगट करुंकलाग्ले। गोय्कारांच्या काळजाक - ति भास नाट्वालिना। "देकुन तांका उरल्लि एकच्च वाट गोंय्कारांचि भास शिक्चि।"

ते प्राद सगटि गोंय्च्या धार्मक व्हडिलांचिं भास, आनि कोंकणि गोंय्च्या साद्या लोकाचि वास, शिकोंक चीत आनि मोत दिंव्क लाग्लें।

सोळावे शेक्ड्याचे आखेरिक 1567 वर्सा पापा पियुस पांच्व्यान मिशियोनरिंनि, आंनि प्रत्येक जाव्न पिरंगज पाद्रिंनि "स्थळिय भास शिक्चि" म्हळळें नियम केलें। हें नियम गोंय्च्यां बिस्पांनि आनि पुड्तुगेज रायांनि - कार्यारुपाक हाड्लें देकुन, कोंकंणि शिक्चि मांडावळ कर्चिच पड्लि।

हाचो फळ जाव्न, गोंयांत वावुर्न आसल्ल्या फ्रान्सिस्कान पाद्रिंनि सोळाव्या शेक्ड्याच्या उत्तरार्धांत कोंकांणि शाळां उघड्लि। उप्रांत कोलेजि आनि तर्बेत केन्द्रां। हाचो फळ जाव्नसा । फा|| गस्पार दा। मिग्वेल आनि हेरांनि सांगाता मेळोन, पुड्तुगेज - कोंकंणि वाक्सरि, व्याकरणां, सेवेस्त्यांव रुडाल्फ दल्गादो कोंक्णि पोर्चुईगज शव्दकोश - वाक्सरि तयार केलिं

संसारांत खंन्चांय भाशेचो इतिहास आनि वाडावळ पळेल्यार, सुर्विलें साहित्य धार्मिक विशयांनि भर्लां। पुर्विल्यो भासो - संस्कृत, ग्रिक, ल्याटीन हिब्रु। ह्या भसांचें साहित्य, एदोळ वाळवोन आय्लां तें चडावत धार्मिक जाव्नासा। ह्यो वासो धार्मिक साहित्याद्वारिं वाड्ल्यो। आम्चि वास कोंकणि अशिच्च वाड्लि।। आनि आजून ति जिवि जिवि उर्ल्या।

कशें फ्रान्सिस्कान पाद्रिंनि कोंकणेंच्या वाडवळेक आप्ल्या शाळा आनि धार्मिक - साहित्या द्वारिं वावृ केलो। ताचे प्राम वर्त्या माफान जेज्वितांनि तोच वावृ मुकार्सुन वेलो। मोळा - मत्राव्या शेकड्यांनि शिक्षा केन्द्र द्वारिं धार्मिक साहित्य रचुन कोंकणि भाशेचि वाडावळ मुंदर्सुन व्हेलि।

भारताचे पवित्र भुमिक पयिल्लो आयिल्लो जेज्वित सांत फ्रान्सिस सावेर 1542 इस्वि मेयाचि स तारिकेर पाव्लो। School Masters of Europe (युरोपाचे शिक्षक) म्हणंच नांव पडल्ले हे जेज्वित -आप्लें शिकाप पेल्यालागिं - वांन्टचे उदारि जाव्रासल्ले। सगळया एशियांत, छाप्कान्यांत छापल्ल्या पय्कि पयिल्लो वूक जाव्रासा सांत फ्रान्सिस सावेरान बरयिल्लो "दोत्रिना क्रिस्तियाना" 1557व्या वर्सा छापल्लो।

फा| एस्तेवांव जेज्वित पाद्रि जाल्यारि भारताक आयिल्लो पयिल्लो ब्रिटिशमेन तो जाव्रासा। भारतांल्लि नय्तिक आनि आर्तिक ग्रेस्तकाये विशिं आप्लो बापय व्यापारिक पत्रांनि बरव्र उप्रांत ब्रिटिश भारताक येंव्क कारण तो जाल्लो।

भारताक आयिल्ल्या ब्रिटिश मिशियोनरिं पय्कि, फा। तोमस स्टीपन्स पयिल्लो। कोंकणि क्रिसतांव साहित्याचो बापोय म्हण्तात हाका। केनरा क्रिस्तावांक ससोड्तिचें शिकाप दिव्व्याक आनि नव्या क्रिस्तांवानि - रामायणा, महाभारत पुराणां वाच्चें आडांव्चे खातिर, आदांव थाव्र सोस्याचो सर्गा प्रवेश पर्यांत, सगिळ चरित्रा आटाप्चें धा हजार नोव्शिं आनि दोन्साट (10962) श्लोकांचें सोवित्त लांबदीग काव्यें - "फा। एस्तेवांवचें क्रिस्ता पुराण", ओवि रचल्लें साहस वर्तें जाव्रासा।

ह्याच्च क्रिस्ता पुराणाच्यो दोन अवृत्त्यो 1649 आनि 1654 वर्सांनि रचोल कोलेजिच्या प्रेस्सान छापल्ल्यो। चोव्ति आवृति 1907व्या वर्सा छपल्लि कीर्त सांत लुविस कोलेजिक वेता। हया अवृत्तेचो नागरि लिप्यांतरँ : पुनाच्या नोबेलि कोलेजिन 1956व्या वर्सा छापय्ला। 1952व्या वर्सा श्री जुवांव जुजे रेग आनि पेलिक्स पाव्ल नोरंजान क्रिस्ता पुराणांल्लि विंचोव्ण बरव्र प्रगट्ल्या।

"अर्ते द। लिंग्वा केनरिम" कोंकणि शब्द भंडार, "सुखावरं आनि कोंकणि उलव्पाचि रीत", अशें हेरयी पुस्तकां फा| एस्तेसांव जेज्वितांचिं प्रगट जाल्यांत। उप्रांतः फ्रान्स, आफ्रिका, हेर देशां थाव्र आयिल्ल्या जेज्वितांनि कोंकणि प्रादेशिक भास शिकोन, शिक्पाचे आनि धार्मिक कोंकणि पुस्तकां रचल्यांत।

"गोंयांत क्रिस्तावांनि आप्लि खाशेलि भास कोंकणि उलोंव्क नोजो म्हळळें कानून, 1745 इस्वेंत पोर्चुगीज राज्योट्रच्या आदेशाखाल ज्यारियेक येनच्च, 1761 वर्सा वळादीक कोंकणि समर्तक जेज्वितांक गोंयां थाव्र गडिपार केल्ले।

केदळा कोड्याळचें मिसांव, जेज्वितांच्या तावेन मेळळें 1878 वर्सा कोंकणि भाशेक जागरणेचो काळ उदेलो। प्रथम कोड्याळाक आयिल्ल्या नोव जण जेज्वितां पय्कि इटेलिंत्ल्या

तिगेल प्रांत्यांत 1844 वर्सा, जल्माल्लो, आंजेलो फ्रान्सिस सावेर माफेयिन, टिप्पुच्या वंधडेंत शेळेल्ल्या आनि हेर भासांच्या इड्यांत चिर्डाल्ल्या - कोंकणिक नवो जीव दिलो।

कोड्याळाक येतच्च सोवित्त सोवाळ भास कोंकणि शिकोन 1882व्या वर्सा माफेयिन पयिल्लो कोंकणि व्याकरण रचुन, कोंकणि साहित्याक बुन्याद घालि। 1892व्या वर्सा प्रगट जाल्ल्या, ह्या व्याकरणाच्या दुस्र्या अवृत्तेक - "कोंकणि गनांत्लो सोवित्तँ सुंदर ताळो", म्हळळ्या नांवान वोलायिल्लें।

टिप्पु म्हळळ्या वागाच्या तोंडांत्ले सुटोन पाटिं गांवाक येतच्च, स्वभावानंच्च शिक्पाचो मोग आसल्ल्या केनरा कोंकणि कथोलिक लोकान, इंग्लेज रजाखाल गांवार समाधान जातच्च, इल्लें इल्लें कांदडें (कन्नडा) सांगाता इंग्लिश उलव्प आनि बरव्प शिकोन, सतिक उज्वाड लाब्तच्च, तांकां आनिकी विध्याचि तान चडोन आय्लि।

सुमार तिन्शिं - चार्शिं वर्सां आदिंच्च कोंकणि लोकान, गोंयां थाव्न दक्षिणाक येताना, तोंड्पाशिं हाडल्लिं पदां, गितां, पुराणां, दोतोर्न, वेर्स कंतारां इत्यादि। शिकाप आसल्ल्यांनि कानडि लिपिन बरव्न सांबाळन दवरल्लिं। तशें कानडि लिपिन कोंकणि साहित्याचो उदेव तवळच्च जाल्लो म्हण्येत।

"माफेयिच्या कोंकणि - इंग्लिश वाक्सरि", 1883, रोमि कानडि लिपिन, सोमिया जेजु क्रिस्ताच्या पाशांवाचि कथा", "ससोड्तिच्या सतांचो विवर", आनि हेर ल्हान व्हड वूक माफेयिन बरयल्यात। दक्षिण कन्नड जिल्ल्याचि व्हड एक चरित्रा वरव्क जायपुर्ति साहेत ताणें बरव्न संग्रह केल्लि।

आप्ल्या चारित्रिक संशोदनांचो फळ, प्रगट कर्चे आदिंच फा। माफेयि 1899 जून पय्लेर देवादीन जालो। हि चरित्रा फा। मूर। जे।स।न पूर्ण कर्न प्रगट केल्लि। फा। माफेयिन तुळु वाक्सरि वरव्कयी आरंभ केल्लि।

जेज्वितांनि कोड्याळांत 1882 इस्वेंत कोड्याळवय्ल छप्खानो उघड्लो। हांगासर सुर्वेच्या पंच्विस वर्सां पर्यांत रोमि लिपिन कोंकणि कड्तिल्यो छाप्तले। कोड्याळांत एकुणवीसाव्या शतमानांत आरंभ जाल्ल्या - बासेल मिशन छाप्खान्यांत फा। माफेयिचे कानडि लिपिचे वूक प्रगट जाल्ले।

कोड्याळांत 1880व्या वर्सा स्थापन जाल्लि सांत लुविस कोलेज एकशें पंच्विस वर्सां थाव्न माफेयिच्या सेटांनि चलोनंच ह्या वर्सांत 1880 - 2005 एकशें पंच्विसँ (125) वर्सांचो उत्सव आचरण कर्ताना, कोंकणि कड्तिल्यो - पुस्तकां बरयिल्ल्या जेज्वितांचो मानान उडास काड्चो जाव्नासा ह्या लेखनाचो उद्देश।

कशें विदेसि जेज्वितांनि हांगासर येव्न, कोंकणि भास शिकोन, कोकंणि पुस्तकां, पत्रिको प्रगटुन, कोंकणि पर्जेक आप्ल्या कर्तव्या थंय जागयिल्लेवरिच्च, उप्रांत्ल्या देशि जेज्वितांनि कोंकणि वाशेखातिर प्रकाशनां, पत्रां, पुस्तकां, व्याकरणां, जानपद संग्रह, शब्धकोश -

डिक्षनरि, चरित्रा, कोकंणि संघ, संस्थे, कोंकणि पाठवूक, कोंकणि अध्ययन, चलन्न कोकंणि आम्च्या मांय भाशेचो फुडार ते जाल्यात। इंग्लिश इस्कोलां चलयल्यारि, कोंकणि भाशेक निरंतर दिवो ते जाल्यात।

कोड्याळवयल छाप्कान्यांत सुर्वेच्या पंचिम वर्सांनि छाप्पिल्लिं सक्कड पुस्तकां कड्तिलां शास्त्राक - भक्तिपणाक संबंध जाल्ल्यो। क्रमेण कादंड्या आक्षेरांनि पुस्तकां छापुंक सुरु केल्लेंच्च, क्रिस्तांव दोतोर्न, कोंक्णि कंतिगो, देवाम्फोणाचे भूक, सांतांच्यो जिणियो प्रगटुंक आरंभ जाल्ल्यो।

कोड्याळ सांत लुविस कोलेज आनि दक्षिण कन्नड जिल्ल्याच्या आसपास संस्थांनि सेवा दिल्ल्या जेज्वितांनि, कोंक्णि पत्रांनि लेखनां वरन्न, ल्हान - व्हड शास्त्राचे भूक वरन्न, प्रगटुन, संगीत रचुन, तें बुकांनि छापुन, लेक्सिकोन शब्दकोश, व्याकरण रचुन, कोंकणेचि जास्ति सेवा केल्या। एका न्हय एका थरन कोंक्णि भाशेक, कोंक्णि साहित्याक पाटिंबो दीव्र, हेरांकी कोंक्णि भाशे थंय आकर्शित केलां। आम्चि मांय भास कोकंणिक आसि सांडूं जाल्यार, आम्कां खच्या देशाक गेल्यारी अस्थित्व ना म्हळळें मनन केलां।

खर्यान सरचें जाल्यार, भारताच्यो संस्कृत, पार्सिनि, इंडो आर्यान - कोंकणि, ड्राविडियान भासो येरेपाक परिचय कर्न दिल्ल्योच्च जेज्वितांनि। कितें आम्च्या मांय-भास कोकंणिक सांत लुविस कोलेजि थावन्न जेज्वितानि केलां तें सगळया संसारांतल्या कोंकणि लोकान, आनि कोकंणि संस्थ्यांनि मान भागाय्जाय तसलें जान्नासा।

सांत लुविस कोलेजिंत फा। मन्वेल कुवेल जे।स।न भुर्ग्यां थंय वोंपल्लें कोंकणि लिखितांचें भिं किर्लोंक सुरु जालें, तर्नाट्यां मदें उमेद उब्जालि, सुरु करुंक एक कोंकणि वर्तमान पत्र", अशें म्हणता 1912व्या वर्सा कोड्याळांत सुरु जाल्लें प्रप्रथम कोंकणि पत्राचो स्थापक दे। लुविस मस्करेंझ 1937 कोंक्णि दिर्वे रुप्योतसवँ आंख्यांत।

फा। मन्वेल कुवेल जे।स। इंग्लिश भाशेंत अखंड प्रवुत्व आसल्लो। वहुवाशा पंडित। सा। लुविस कोलेजि थावन्न प्रगट जातालें ते प्रख्यात पत्र "द मेंगलोर मेगझिनाचो" 1899 थावन्न स्थापक संपादक। त्रेयमासिक ह्या पत्रिकेचो संपादक जावन्न चालिस वर्सां वावुरल्लो धीर। 1914व्या वर्सा थावन्न हेंच्च पत्र कोलेज म्यागझीन जाल्लें। तवळ फा। प्राचेट्टि जे।स। रेक्टर जावनासल्लो।

फा। मन्वेल कुवेल "वंट्टाळगार" आनि "सेवेस्त्रांव" लिखणे नांवांनि "कोंक्णि दिर्वें" आनि "राक्णो" पत्रार लेखनां वरय्तालो। कोड्याळगारां थंय कोंक्णि साहित्याचो मोग आनि आविरुच खंचव्क ताणे वारिच्च म्हिनत काडल्लि।

सांत लुविस कोलेजिंत सोडेलिटिचें पुस्तक भंडार स्थापित केल्लेंय फा। कुवेलिन।

फा। कय्तान गोसाल जे।स।न "इगर्ज मातेचे उपादेस", 1923. आनि "जेजु बाळोकाचि सां तेरेज" 1925 वूक वरयिल्ले। 1918व्या वर्सा "जेजुच्या - पवित्र काळजाचो आंज: पत्र

सां जुजे सेमिनरि थाव्न प्रगट केल्लि कीर्त ताका फावो जाता। सुर्वेचिं आट वर्सां संपादकपण चलय्लां। तेपन (53) वर्सां हें पत्र चल्लां। कोंक्णेंत तो कवितांय वरय्तालो।

ताचें उप्रांत ह्या पत्रांचो संपादक जाल्लो फा| मन्वेल मोति, विविद वर्सां खातिर नांवाड्ला। "जेजु मोगाचो गय", म्हळ्ळो बूक ताणे वरय्ला।

फा। तोमास ए। लोबो जे।स।न 1954 इस्वेंत भुर्ग्यां खातिर धार्मिक पत्र "जेजु गय" आरंभ केलो। तवळ सांत लुविस कोलेजिच्या प्रेस्सांत छापोन येतालो। आतां पांच दशकां कावार करुन, जेजुगय "भांगागेल्सवाच्या संभ्रमांत आसा। फातिमा गेतिर घरा थाव्न प्रगट जांव्च्या जेजु गयाचो प्रस्तुत संपादक फा| एच। जे। नोरोन्हा जे।स।

तवळच्या काळार नांव दिनास्ताना जेज्वित बूक वरव्न प्रगट्ताले। "जेजु मरियेचो पूत", "जेजु सांगाता आन्येक वोर", "जेजु वोय्ज", "कथोलिक भक्तिक जाल", "कथोलिक गितिंचो अर्त", "काजार आनि सोंग्रिक", "खांवे इगर्जमातेचे", "खुर्साचो - मिसाचो साक्रिफिस", "खुर्सा गितां झेलो", अशें सभार ल्हान-व्हड कड्तिल्यो 1950 वर्सां मदें "कोंपियान" लिखणे नांवाच्या जेज्वितान सांत लुविस कोलेजि थाव्न वरव्न प्रगट्ल्यात।

हांचें मधें संगीत संसारांत्लिं धवि कोगुळ म्हणंच्च प्रख्यात फा। वोलटार आल्वुकेर्क जे।स। ल्याटिन कंतारांक भारतीय संगीता वसंव्चो यशस्वि प्रयोग कर्न, वेटिकान दुस्त्रि विश्व महासभेन, महत्वाच्या नवीकरणाचें वदलाप हाडल्ल्या काळार, कोंकणि भाशेच्या कंतरां सांगाता, भारतीय संगीत वसव्न, लितुर्जिक कार्यां वेळार गांव्क, शेंवोंरांनि भक्तिक गितां रचुन, गितांचे बूक छापोव्न, इस्कोलांक आनि इगर्जांक पावासें केल्लो महान जेज्वित जाव्नासा।

फा । सि।सि।ए।पय। जे।स। "स्वामि सुप्रिया", नांवार साहित्यांत प्रख्यात जाल्लो, जेज्वित कोंक्णि विद्वांस 1927-2001 आप्ल्या जिविताचिं पन्नास वर्सां - आप्लि विशेश - विशिश्ट जाण्वाय आनि तालेंतां कोंक्णेच्या वैज्ञनिक अध्ययनाक गळसुन, ताचो खळिमत नातल्लो कोंक्णि, कन्नड, आनि इंग्लिश भासांनि, - साहितिक आनि संशोधनिक वाव्र, ताणे वरव्न प्रगटल्लिं दोन्श्यां वय्र पुस्तक।

ताचि "आन्या आकय", "दर्यो गाजोता", आनि हेर पुस्तक विश्वविध्यालयांत पाट बूक जाल्यात।

उत्तर कन्नडच्या हलियाळ हळ्ळेंत, "विवेक प्रगति" केंद्र स्थापुन, अध्यात्मिक, सांस्कृतिक, आनि लोकवेदांत, संशोदन चलव्नंच्च आसल्लो। कोंक्णि भाशे आनि साहित्याक ताचि देण्गि वर्ति - आपूर्व जाव्नासा।

धार्मिक बुकांचो फासाद वरप्पि फा। सिल्वेस्टर मोंतेरो कोंकणि आप्ल्या माय भाषे खातिर, आप्लि लिखणे तल्वार झरव्न, क्रीस्तांव लोका थंय, वावाड्ताचें भिं किर्लोंक, आनि पवित्र सभे विशिं माहेत दींव्कं, वावरल्लो तज्ञ जाव्नासा। कोड्याळ सां जुजे सेमिनरिंत पिलोसोफि प्रोफेसर, प्राध्यापक, सांत लुविस कोलेजिचो प्रिन्सिपाल, रेक्टर, कर्नाटक जेज्वित प्रांतिय व्हडिल, तसले

सवार हुद्दे सांवाळ्ळयारि, ताणे कोंकणि आप्ल्या मांय भासेक दिल्लि सेवा आपरिमित।

ताच्या बुकांचिं नांवांय विशेश आनि आकर्शिक "पवित्र सभेचे सुर्विले वीर", "अर्विले वीर", "आम्चिं फेस्तां", तांचिं फेस्तां ", ताळमूळ", शेतां भाटा, सास्वातिल्लो", "जागमाग", "नक्लां विक्लां" असलिं एक्वीस (21) पुस्तकां कोंकणित कन्नडा आनि इंग्लिशानयीं ताणे थोडिं पुस्तकां बरयल्यांत।

फा। सोंतेरेच्या पुस्तकांचिं नांवांच्च पुस्तक वाचुन काडुंक, प्रेरण दितालिं। पत्यीं पत्यीं पुस्तकां वाचुंक अत्रेग्तालें मन।

कोंक्णेंल्लें किटाळ म्हणंच फामाद फा। प्रशांत माड्ता जे।स। 1994व्या वर्सा सांत लुविस कोलेजिचो प्रांशुपाल जाव्न नेमक जाल्ल्या नवळ थाव्न, कोंकणि संस्थ्याक आनि कोंकणि डिप्लोमा कोर्साक फुलव्न, उदर्गतिच्या पांव्ड्या तेद्विशिं चलव्न वेलें।

कोंकणि मांय भासेचो पूत न्हंय जाल्यारि प्राशुंपाल फा| जोसेफ नेलपति जे।स।न 1992 वर्सा कोंकणि अध्ययन विभागांत, चार हंतांचो, एका वर्साचो, कोंकणि डिप्लोमा कोर्स आरंभ केल्लो। 1992-97 पांच वर्सां एका वर्साचो कोर्स जाव्न चलल्लो। 1997 थाव्न दोन वर्सांचो Konkani P.G. Diploma Correspondence Course जाव्न परिवर्तित जाल्लो।

प्रांशुपाल फा। प्रशांताच्या निरंतर कोंकणि चळवळेचें जय्त जाव्न सगळ्या संसारंतच्च पयिल्ले पाव्टिं, विश्वविद्यानिलयाच्या अध्ययन मंडळेन कोंकणिक Second Language जाव्न, डिग्रि हंतार कोंकणिक स्थान लाभ्लें। ह्या शिक्पाक जाय पड्चे विविद प्रकारंचे, आम्च्या कोंकणि माल्गड्या साहितिंचे बूक। सांत लुविस कोलेजिच्या कोंक्णि संस्थ्यान प्रगट केले।

आम्चिं पाळां - मुळां घट करुंक, आम्च्या भास - संस्कृतेचें थळ घट कर्न थिर रवल्यार, फिर्गि संस्कृते तेद्विशिं आम्चे पांय निस्रोन पडानाशें चत्राय घेव्येत म्हण, सांत लुविस कोलेजिल्ल्या तर्न्या जनांगाक अत्मीय उलो दिल्ल्या फा| प्रशांताचें साधन जाव्रासा वर्ते, ताणे रचल्ल्या सभार सय्ला फात्रां सांगाता - रक्णो हस्याळयार "गटावळ", "किटाळां", "सदांचें" म्हळ्ळया शिरेनांवांचेर सांकळ लेखनां बरव्च्या फा| प्रशांतान, the Imitation of Christ आनि the cloud of unknowing" दोनी इंग्लिश ग्रंथ कन्नडाक। "निन्नंते नानागलू" आनि 'सानिध्या' नांवार भाशांतर केल्यात। तशेंच गटावळ", "शेंवोर किटाळां", "कोंकणि पिकोळिं" दोड्या अर्तांच्या 10,000 (धा हजार) उत्रांचो व्रहद, लागिं लागिं सयिंशिं (600) पानांचो पुस्तक 2004व्या वर्सांत प्रगट्ल्यात।

"क्रिस्तन अनुकरणे" आनि हेर ताचे कन्नडा बूक -

ताचो "साविर हूगळु अरळलि" हिंदिक भापांतर जाला। तशेंच्च तो आतांय हजार पानांचि कोंकणि - कोंकणि डिक्शनरि आनि "कन्नडा अर्तकोश" बरव्रंच्च आसा। हे तिनी वृहद गृंथ सांत लुविस कोलेजिक 125 वर्सां भर्च्या संदर्बार 2005 - जनेर वारावेर प्रगट जातेले।

जेज्वित सभेक सोम्यान साका एरेस्ट केलो म्हण्चो फा| प्रशांत नांवाड्डिक चिंतक, कन्नडा,

कोंकणि वर्ग्णार, आनि उत्तीम खुशालि प्रसंगदार। फा। प्रशांत माड्ता - कोंकणि संसारांत एक शिष्टि नेकेत्र जाव्नासा।

कोंकणि लिखितां खातिर वावुर्ललो आन्येक गोगे जेज्वित फा| पोलेन्से। "दिस्पोड्तो मांगाति" माग्ण्या पुस्तक, "मिसागचो" = मिसार वाच्चो" वूक म्हळ्ळया नांवार सर्ळया दियेसेजित विस्तार्ल्लो। (ल्याटिन भाशेन मीस आनि हेर लितुर्जि आम्च्या काळार। मिसाचिं माग्णिं अर्त जाय्नाल्ले देकुन, लोक मिसार कोंक्णि माग्णि वाच्तालो)

"नोव्या तेस्तामेंताच्यो मुख्य संग्ति", आक्टोवर महिनो "फा| पोलेन्सेचे हेर वूक", "जेजुक्रिस्ताचि देक कार्ण्गेव्यां" म्हळ्ळया नांवार वाशांतर केल्लो the Imitation of Christ संसारार पांय्शि वर्सां थाव्न प्रख्यात जाल्ल्या पुस्तकाचो तर्जुमो ताणे केल्लो। उप्रांत होच्च वूक दे। फा। सिल्वेस्टर मिनेजान "क्रिस्ताचो पाट्लाव", म्हळ्ळया नांवार पर्त्यां तर्जुमो केल्लो।

फा| ग्रेगोरि कुवेल जे।स। "मरि म्हजि मांय", पवित्र काळजाचो महिनो", म्हळ्ळे पुस्तक वर्यिल्ले। त्या शिवाय थोडिं गितां - गायानां ताणे घड्ल्यांत। "मरियेक होगोळिसयां", मरियेचिं पोर्तिय दोळे आम्च्येर; "ये मरिये तुजें नांव", प्रत्येक सोवायेचिं ताचिं गितां जाव्नासात।

फा| वाजिल रुजार जे।स। "जेजुचो कुरेव", म्हळ्ळो नांवाड्दिक वूक ताणे वर्यिल्लो, ताचिं सभार लिखितां पत्रांनि प्रगट जाल्यांत।

फा| पास्काल रेगो जे।स।न 1894 इस्वेंत वर्व्न छापल्लि सांत इनास लोयोल्लाचि जिणि जेज्वित फा डेनिस रास्किंजरन 1956व्या वर्सा साट वर्सां उप्रांत मड्व्यान कोंक्णेंत वर्यिलि।

जेज्वित फा| ए। एम। कुलासो : "क्रिस्तांव दोत्रिन", आनि कथोलिक Action म्हळ्ळयो लेखनावोळि कोंक्णि दिर्वें पत्रार वरय्तालो।

जेज्वित फा। लियांडर सल्डान्हान 1934 वर्सा क्रिस्ता पुराणांल्लि विंचोव्ण I आनि 1937तं विंचोव्ण II थोडे भाग कोंक्णेंत प्रगट्ल्यात।

"जेजुचें सग्न आनि सांत जुवांव व्कर्समन" पुस्तकां वर्यिल्लो फा| आलेग्सांडार एस। लुब्रिक। जे।स। आजून आप्ल्या अय्शिं (80) वर्सां प्रायेरि हायस्कूल विद्यार्तिंच्या स्कूल वेंडाचें सुंकाण धरुन आसा।

त्रैमासिक - "कर्नाटक जेज्वित", नांवाचें पत्र स्थापन केल्लें जेज्वित फा| जोन साल (साल्वादोर) सोजान। 1978व्या वर्सा आजून तें जेज्वितांच्या लोयोल्ला घरा थाव्न प्रगट जाव्नासा।

जेप्पु सां जुजे सेमिनरिंत "प्रकाशालय" आरंभ कर्न, कन्नड आनि कोंकणि ल्हान-व्हड वूक आजून प्रगट कर्त्ति आरचो संस्थो 1952व्या वर्सा जेज्वित फा| ग्रेगोरि सिक्वेरान। हांगासर प्रकाशालयाचि लाय्ब्रेरिय आसा।

ANON म्हळ्ळया नांवार देवास्पसाचे, सांतांचि जिणि, धार्मिक, माग्ण्या आनि कंतारांचे वूक वर्यिल्ले जेज्वित गुपित्त आसात। आतांय सां लुविस कोलेजि थाव्न तर्ने पर्ने जेज्वित कोंकणि पत्रांनि अखंड लेखनां वरंव्चे जाय्ते आसात। ते जाव्नासात कोंकणि भाशेचो मुक्ले फुडार आनि धिवो। तांकां आमि सर्व जय्त माग्यां।

*** *** ***

# मंग्ळुरांत जेज्वित

- फा| एव्जिन लोबो, जे.स.

"उदेंतिचें गेम शहर" म्हण नांवाडल्ल्या मंग्ळुरांत जेज्वितांचो हात वर्तो। ह्या शहरांल्या शिक्पाक, क्रिस्तांव समडुनेक लायिक आनि यार्जकि तर्बेतिंत आनि दक्षिण कन्नडचा संस्कृतेंत जेज्वितांचो प्रभाव आसा। प्रत्येक जाव्न सां. लुविस कोलेजि मुकांत्र ताणि ह्या शहरचा वाडावळिचेर विशेस प्रभाव घाला म्हण्येत।

जेज्वित मंग्ळुर शहराक येव्न 125 वर्सां संप्लिं। पूण जेज्वित सभा आरंभ जाल्लि 1540 इस्वेंत। सां इनास लोयोला सोजेर जाव्न आसल्लो। सांत जाव्न वदल्लो तो, जेज्वितांचो भेस आरंभ कर्ता। तांचें काम प्रत्येक जाव्न शिक्पांत आनि मिसांवांत वावुर्चें। पाप साख्वान दिल्लें कसलेंयी काम, किल्या कश्टांचें तें जाल्यारि ताणि हातिं घेव्न पोंताक पावंव्चें तें हट आनि धय्र सांत इनासान ताचा पाट्लावदारांचा काळजांत ओंपल्लें आतां 465 वर्सां उप्रांती तोच ध्येय घेव्न 22,000 जेज्वित सगळया संसारर वावुर्तात। भारतांत शिक्पा संस्थ्यां शिवाय मिसांव कार्यांनि आनि समाज सेवेंत आप्लि सेवा ते दाकय्तात।

1858 इस्वे थाव्न मंग्ळुर्चा क्रिस्तांव मानेस्तानिं रोमाक सनवि पत्रां दाडुन, जेज्वितांक ह्या शहराक धाडिजाय म्हण पापाक उलो दिल्लो। सवार कारदां आनि रायवार्यां मुकांत्र केल्ल्या ह्या सनविक पाळो दीव्न पाप तेरव्या लियो हाणि 1878 इस्वेच्या सप्टेंबरांत केनरा दियेसेज वेरापळिळ थाव्न विंगड करुन, वेनिसाच्या जेज्वितांचा अधीन दिलें। जेज्वित फा| निकोलास सरिया पागानि हाका केनराचो प्रो.विगार अपोस्तलिक करुन दाड्लो।

मंग्ळुराक हि बरि खबर जांव्क पाव्लि। तांकां स्वागत करुंक सगळें शहर सांगाता मेळळें। सात जण याजक आनि दोग ब्रदर डिसेंबर 31, 1878 इस्वेंत कोड्याळ येव्न देंव्ले। ते जाव्नासल्ले फा| पागानि, फा| आंजेलो मुट्टि, फा| आंजेलो माफेयि, फा| क्विंटनास सानि, फा| आगस्टस मुल्लर, फा| जंबोनि आनि ब्रदर म्याथ्यु मेनेगेट्टि। हांतु 6 जण इटलिचे, दोग जण जर्मनिचे आनि एक्लो आस्ट्रिया गांवांल्ले जाव्नासल्ले।

मंग्ळुराक पावल्ल्या दिसा थाव्नच तांचिं आपोस्तलिक कामां काणि आरंभ केलिं। याजकांक तयार करुंक जेप्पुच्या सेमिनारिक बुन्याद ताणे घालि। फा| दयामांनि म्हळळया जेज्वितान आतांचे सेमिनारिचें वांदाप संपूर्ण केल्लें। थंय्च जेज्वितांच्या तर्बेतिचि नोविशियेट ताणे आरंभ केलि। उप्रांत ति शेंबरनूर, कोडैकनाल थंय वर्गांतर जालि।

विद्या संस्थो स्थापन कर्चो उद्देश प्रमुख जाव्नासल्लो। देकुन जनवरि 12, 1880 वर्सा ताणि सांत लुविस कोलेज आरंभ केलि। एका वाड्याच्या बंग्ल्याच्या सुवातेर आरंभ केल्लि ति कोलेज आतां वर्तो नांवाड्डिक विद्या संस्थो जांव्क पाव्ला।

फादर मुल्लर कोलेजिच्या शिक्पा सवें, अस्क्त आसल्ल्या आनि दुब्ळया विद्यार्थिंक होमियोपति

वकात दींव्क लाग्लो। वेगिंच व्हडयी नाचेलागिं वक्ताक येंव्क लाग्ले। 1881 इस्वेंत हो वक्ता जागो कंकनाडिक माग्गिलो। आतां थंय्सर फादर मुल्लरचि आस्पत्र उबि जाल्या।

फादर स्टैन त्या वेळार आत्मिक आनि रेलिजियोस शिकाप लायिकांक दींव्क लाग्लो। 1879 इस्वेंत कोड्याळवय्लचा कोपेलांत दादल्या मन्शांचि सोडॅलिटि ताणे आरंभ केलि। तर्नाट्यां खातिर एक ल्हान ग्रंथालय ताणे आरंभ केलें। खेळ आनि मनोरंजना खातिर कथोलिक यूनियन क्लब 1894 वर्सा फादर दे वोनिस हाणे आरंभ केलें। आनि फादर कार्वाल्लियेर हाणें तें मुंदर्सुन वेलें।

1882 इस्वेंत जेज्वितानिं कोडियालवय्ल प्रेस सुरु केलें। ब्रदर डोनेंडा हाणि 42 वर्सां तें प्रेस चलय्लें।

1884 इस्वेंत जेप्पुचें वर्कशोप आनि आस्त्रो जेज्वितानिं सुरु केलो। जेप्पुचा लोकाक, प्रत्येक जाव्न दुव्ळया आनि असहायक लोकाक कुमक करुंक हो कार्यागार सुरु जाल्लो। उप्रांत 1955 इस्वेंत फा| विल्लि सिकेरिन वेळवेचि कोलोनि सुरु कर्न आण्सां आनि हेर कृशि कर्न हांकां, थंय्सर आस्त्रो मेळाचो केलो।

त्या वेळार कार्मेलित आनि दियेसेजिचे याजक आनि याजकां भावा संगिं नविं मिसांव टाणि ताणे आरंभ केलिं। प्रत्येक जाव्न दुव्ळया आनि कोर्गारां मधें ताणें काम सुरु केलें। तांचि भास ते शिक्ले आनि तांकां तांचिं मार्गिणियी शिकय्लिं। आदिं थाव्न मंग्ळुर्चा तर्नाट्यांक ताणि जेज्वित भेसाक स्वागत दिलो। 1883 इस्वेंत तेर तर्नाटि भेसांत रिग्ले आनि त्या नंतर मंग्ळुर्चे सवार तर्नाटि जेजुचा शेतांत वाव्रुंक पाव्ले।

मंग्ळुर्चा जेज्वितांचि आनि सांत लुविस कोलेजि मुकांत्र जाल्लि प्रत्येक सेवा कोंक्णि भाशेचि। फादर आंजेलो माफेयि कोंक्णि भास शिकोन त्या भाशेचो सब्दकोश ताणे बरय्लो। सांगाताच कोंक्णि भाशेचें व्याकरणयी ताणे बरेव्न पर्गट केलें। तेंयी इटलि गांवांत जल्मोन, मंग्ळुरक येव्न हांगासर आणा इत्ल्याक शिकोन सब्दांचो अर्थ आनि व्याकरणाचि रीत प्रचार केल्लें वर्तें काम म्हणजय। सांगाताच हे सर्व याजक कोलेजिंत शिकय्ताना सिसां सांगोंक, रेतियों दींव्क, कुम्सारां आनि मिसांक, वकात दींव्क आनि सर्व थरांचि कुमक करुंक तयार आसल्ले। जज्वितानिं ह्या रितिन वांदुन हाडल्लि दियेसेज 1923 इस्वेंत ताणिंच तयार केल्ल्या मंग्ळुर दियेसेजिच्या याजकांच्या हातां ओप्पुन दिलि।

सुर्वेर जेज्वितानिं आरंभ केल्लें शिक्पा क्षेत्राचें आनि हेर काम जेज्वित आनिकी मुकार्सुन व्हर्तात। 23 भुर्ग्यां संगिं आरंभ जाल्लि कोलेज आतां 8000 वय्र विद्यार्थिंक शिकाप दिता। सवार नवे विशय हांगा आरंभ केल्यात। कोंक्णि भाशेक विशेस स्थान दिलां त्या विशांत शिक्पाक आनि माय भाशेक आनिकी व्हर्तें स्थान आसा। ह्या 125व्या वर्सा आनि ह्या फुडें कोलेजिचि कीर्त तडोंव्दि म्हण आम्चि इच्छा।

*** *** ***

# भाव मोश्किनिचि अमर कला


भ| सेलिन वास, वेथनि
सां लुविस कोलेज

शिक्षा शेतांत आख्ख्या संसारार जेज्वित वा जेजुच्या सभेच्या याजकांचें नांव महान। ह्या जेज्वित याजकांनि चलव्न व्हर्च्या सां लुविस कोलेजिक जनेर 12, 2005वेर 125 वर्सां भर्तात। एक्शें पंच्वीस वर्सांच्या संभ्रमाचें चरित्रेचें एकेकच पान पर्तिल्यार हि कोलेज कोंकण करावळेर मात न्हय आस्तां आख्ख्या संसारार तिणें नांव वेलां तें कळोन येता। हाका सवार कारणां आसात। हांचे पयिक देश विदेश थाव्न येंव्च्या यात्रिक आनि प्रेक्षकांच्या आकर्शणाचें केंद्र - सां लुविस कोलेज कोपेल।

**त्रिसंगम:** वाव्टच्या गुड्यार सोव्विं तिं विशाल मज्भूत वांद्पां, विस्तार खेळांगणां आनि ह्या दोनांक रांच तें सोभित सुंदर कलात्मक कोपेल खरेंच मनिचें, कुडिचें आनि अत्म्याचें त्रिसंगम। एकाच सघ्दानार ससेस्तांक लाभ्चें (समाधान, शिकप आनि आत्मिक संतोस) 'त्रि इन वन' सोलाधिक दिर्वे।

कोलेजिक 125 वर्सां भर्ताना कोपेलान आकर्शित कर्च्या चित्रकलेक शेंभर आनि पांच भर्तात हेच जनेर 12वेर इटेलिचो जेज्वित भाव आंतोनियो मोस्किनि 1899 इस्वेंत मंगळुरक येव्न 1901 इस्वे भितर ताणें सां लुविस कोलेज कोपेल पिंत्राय्लें। तो मंगळुर्चो नांवाड्दिक 'लियोनार्डो डा.विंचि' जांव्क पाव्लो। ह्या कलात्मक पिंतुरां द्वारिं आज हें कोपेल भारताचि, प्रत्येक जाव्न मंगळुरगारांचि आस्त जांव्क पाव्लां।

**सुप्त भावनांचें उग्डापन:** कोपेलाचेर तुर्ताचि एक नदर चरय्लि तर जाय्तिं मन्शां-सोन्जाति रूपां, सोभित सुंदर फुलां, नेण्ते खाल्ते भड्डे वाळां, कलाकारच्या चित्पाक ताळो दितात। थरवळ - रंगाळ मन पिस्वोंचिं, तान भुक तांवोंव्विं हिं आकर्शित पिंतुरां कलाकाराचें आत्मिक सक्ते आनि सुप्त भावनां थावून उदेव्न आय्ल्यांत म्हण्चांत दुस्रें उतर ना। क्रियाळ जिवाळ आकर्शित पिंतुरां तिं उत्रांनि वर्णुंक सकनास्लिं।

पिंत्रांव्वि विद्या एक कला। कला केद्नांय जात-कात, वेळ-काळ, देशाचि सेर उत्रोन रव्ता म्हण्चाक 2001 जनेर 12वेर भारत सर्कारान सुटय्लेलि पंद्रा रुप्यांचि तप्पाल चीट रुज्वात। सां लुविस कोलेज कोपेलाचि तप्पाल चीट सुटंव्च्या कार्याक तेद्नांचो केंद्र रक्षण मंत्रि श्री जोर्ज फेर्नांद मंगळुरक आयिल्लो। श्री फेर्नांद हेच कोलेजिचो माजि विद्यार्थि।

**कोपेलाच्या पिंतुरांचे थर:** सां लुविस कोपेलाच्या पिंतुरांनि दोन थर। फ्रेस्को आनि ओय्ल पेंय्टिंग्स। फ्रेस्को म्हळयार प्लास्टर सुक्चे पय्लें वणदिचेर वा, फोरचेर सोडयिल्लें फिंतुर। दुस्रें तेलाचित्र।

**मोश्किनिचिं पिंतुरां तीन थरांच्या वेक्तित्वां भंत्तिं घुंत्तात।**

1. सां लुविस गोन्जागविशिं फोगचेर आनि आल्तारिच्या पाट्लयान आम्चिं पिंतुरां।
2. सभांगणाच्या उज्व्या आनि दाव्या कुशिंनि फोगचेर आनि वणदिचेर जेजुन केल्लिं अचर्यां उत्रां सवें पिंत्राय्ल्यांत।
3. पाक्याच्या डेंग्रेर आनि दोन कमनांचेर जेजुचे आपोस्तल आनि पवित्र सभेचें तशें जेज्वित सभेचे सांत भक्त।

फ्रेस्को शय्लिचिं पिंतुरां 433 च.मी. विस्तीर्णाचिं आनि तेला पिंतुरां 395 च.मी. विस्तीर्णाचिं। खरेंच हें कोपेल मोल वांधुंक सकानाम्चें दाय्ज आतां आनि येंव्क आम्च्या पिळगेक।

**युवजणांचो पात्रोन:** कोपेला भितर रिग्ताना आम्चि दीश्ट खंच्ता तावेर्नाक्ला वय्र उंचार सोव्या सां लुविस गोन्जागाच्या इमाजिचेर। होच तो पात्रोन सदां 8000 युवजणांच्या जिवितांत भर्वस्याचें आनि भावाड्ताचें कीर्ण फांकोंव्चो।

ह्या राय कुवरान राज्वट्कि, पद्वि आनि नांवाचो त्याग करुन आप्लो घनाधिक हुद्दो आप्ल्या ल्हाना भावाक दिंव्चें पिंतुर कोपेलाच्या सभांगणा थाव्न फोगचेर दीश्ट लाय्लितर स्पश्ट जाता। तें एक नितिमाल। लुविसाचि आवय, वकील, गुमास्त हाजर। हांचे सास्कार लुविस सांकेतिकपणि आप्लि तल्वार भावाच्या हाताक दिंव्चें तें पिंतुर कलाकाराचि काल्पनिक सकत वास्तविक्पणांत मिस्ळल्या म्हळ्ळयाक एक दाख्लो सात। आल्तारि पाट्लयान आम्चें अनेक पिंतुर मन कडंव्चें। ह्या पिंतुरांत 1591 इस्वेंत रोमांत भिरंकुळ प्लेग आयिल्ल्या वेळार लुविसान पिडेस्तांचि चाक्रि कर्चें दिसोन येता। सां. लुविसयी हेच पिडेक बलि जाता आनि आप्ल्या 23 वर्सांच्या तर्न्या प्रायेर मरण पाव्ता - जियेंव्क आजून आम्चे मधें आनि जियेतलो तो मुक्त्या शतकांनि।

तावेर्नाक्लाच्या दाव्याक सोस्यान ग्रेस्त मन्शाक ‘तुजें आसल्लें सर्व विकुन, ये आनि म्हजो पाट्लाव कर’ म्हण्चें आनि उज्व्याक ‘नेणांतर्गी तुमि हांवें म्हजा बापाय्चें काम करुंक आसल्लें म्हण’. चुकोन गेल्ल्या भुर्ग्या जेजुन जुजे आनि मरियेक सवाल कर्चें - हिं दोनयि पिंतुरां कुंद्या सद्रात ‘कट्टव्ट’ कर्न दवर्लेलेवरि दिस्तात। तिं वणदिचेरच पिंत्राय्ल्यांत म्हळें पात्येंव्क कश्ट सार्तात।

हे पर्चि दोग जेज्वित सांताचिं पिंतुरां आसात। दावे कुशिक जेज्वित मेळाचो स्थापक सां इनास लोयोला आनि उज्व्याक भारतीयांचा सोरााचो सां फ्रान्सिस सावेर एका ल्हान भुर्ग्याच्या खांदार हात दवरुन आसा। पेंक्टा सकय्ल त्या भुर्ग्याक पुड्वें न्हेसय्लां। ताच्या पांयाक पांय्जणां आनि गळयाक मणयेसर घाला। दोनंच वर्सांनि कोपेलाचिं पिंतुरां पिंत्राय्लेल्या मोश्किनिन ताच्या पिंतुरांनि भारतीय संस्कृति, वेसभूशण, न्हेसप उपेगायिल्लें विचित्रच सय। फोगच्या देगांनि आनि खालि आस्ललो जागो कलात्मक रितिन भरुंक ताणें फुलां सोडय्ल्यांत। आम्च्याच दक्षिण कन्नड आनि मल्नाड प्रदेशांचिं फुलांयि ताणें विंच्ल्यांत।

मोश्किनिच्या पिंतुरां पय्कि भोव व्हड पिंतुर आल्तारिच्या विरोद कुशिन वणदिचेर पिंत्राय्ला। जेजुन भुर्ग्यांक आप्णाशिं आपव्न तांचो ईश्ट म्हण दाकंव्चें। हें पिंतुर पाक्या थाव्न पाव्साचें उदक

शेळेर पडोन आळवांन गेल्लें तें थोड्या मापान आदले स्थितेक हाड्चें प्रयतन केलां।

**देवाचें उतर कला देण्याचेर प्रभाव:** संभांगणाच्या उज्व्या कुशिन सां जुजेचि आल्तार आनि डाव्या कुशिन मर्येचि आल्तार आसा। उज्व्या कुशिच्या वर्णटिचेर विव्रिचि काणिक, जेजुन पांच हजार लोकाक उंड्या मास्ळेन वाड्चें, जेजु वरी गोव्लि, जेजुन वारें वाडाळ थंड कर्चें, जेजुचें मरण, जिवंत्पण... आनि जाय्तिं आजापां दाखंव्चिं पिंतुरं आसात।

डाव्या कुशिन भुमि वैकुंटांत आदांव एव, सां जोकि, सां आन, मर्येक ड्ज्वि हाड्लें दृश्य, मर्येचें मरण, जेजुचो जल्म, पर्वता वय्लो प्रसंग आनि जेजुन दिल्लि शिकवण पिंत्राय्ल्या। हिं पिंतुरं विवरांव्क सक्चिं न्हय। तिं पळेव्न अन्भोग कर्चे तस्लिं। ह्या चित्रांचि सोभाय, भितर्लो कॅर्ल उत्रांनि आटाय्चो न्हय वरार ह्या पिंतुरांचो नियाळ आत्मिक संतोस आनि दैविक्पणांत एक्वट्चो।

जेजुन भुग्र्यांक आण्णाशि आपंव्वें, चार्गाय कुशि थाव्न भुर्गिं आनि ताच्या सोगाचिं जेजु सर्शि येंव्वें, आपोस्तलांनि आडांव्चें, एक्सुर्या भुग्र्यान धांव्ताना पड्चें - ह्या पिंतुरांत जिवाळपण दिसोन येता। मोश्किनि आप्ल्या चतुर कला तालेंतान मन्श्या आनि स्तब्ध पिंतुरांक ताळो आनि चाल दींव्क सक्ता।

कुंदे पळेंव्क मार्बल कुंद्यावरिं दिस्तात। पुण मात्येच्या कुंद्यांक ताळ पड्चे जोक्ते रंग दीव्न काल्पनिक आस्चें तें वास्तविक्पणांत सिम्ळाय्ललो सक्तिवंत कलाकार भाव मोश्किनि। कोपेला भितर खंचे कुशिक फुड कर्चें तें कळना। सरळें कोपेल पिंतुरांनि नेटय्लां। तांचे थंय पवितपण निशेता।

**कलाकाराचि वाडावळ:** कोपेल पिंत्राय्ललो महान कलाकार भाव आंतोनियो मोश्किनि इटॅलिंत्ल्या वरगामो लाग्सार आस्च्या स्टेजानो हळ्ळेंत जनेर 17, 1854वेर जल्मालो। सामान्य शिकप संतच उंच्लें शिकप शिक्चो अव्काम पिडेन ताचे थाव्न ग्रासिलो। तेदनां ताचो बापुय आप्ल्या पुता थंय लिप्ललें कला टेणें वळकता आनि ताका शेहरांत्ल्या नांवाड्दिक एन्रिकोस्कूरि म्हळ्ळ्या कलाकार सर्शि चित्रकला शिकोंक धाड्ता। थोड्याच तेंपान मोश्किनि हे कलेंत प्रवीणता जोड्ता आनि ताचिं पिंतुरं तुरिन आनि मिलनांन प्रदर्शनाक घाल्ता। थंय्सर सवारं थाव्न अभिवादन आनि नांव जोड्ता। परत ह्ये कलेंत संपूर्णता जोड्चे इरद्यान रोमांत्ल्या ख्यात कलाकारांचिं पिंतुरं तो शिक्ता। फ्रेस्को पिंतुरं ताका चड पसंदेचिं जातात। ह्ये कलेक तो गमन दिता। निचो तो सोगि जाता। अचानक 1889वेर ताचे जिण्येंत एक धुंव्डि तो देक्ता। जेज्वित मेळांन भर्ति जाता। विशाल मनाचा व्हडिलांनि ताचें टेणें मानुन ताका अल्बेनिया, युगोस्लोवियो आनि इटॅलि देवाळाच्या पिंत्राव्णेक धाड्लो। उप्रांत 1899वेर मंग्ळुराक मोश्किनिचें येणें व्हड देणें जांव्क पाव्लें। सां लुविस कोलेज कोपेल फकत दोन वर्सांनि ताणें पिंत्राय्लें।

भारताचा तीन देव मंदिरांक म्हणजे वंट्वाळचा आग्रार आनि वोंवय हॉलि रिडीमर देव मंदिरांत ताच्या तालेंताचि काणिक भेटय्ललो हो भाव सैंट मेरिस चर्च कोचिन, हांगासर पितुरं पिंत्राय्ताना नवेंबर 15, 1905वेर पिडेन मर्णाक बलि जालो। पुण तो मोरोंक ना। आस्चे मधें जियेता। ताचि

जिवाळ कला आम्चे मधें उटोन उलय्ता आम्च्या भग्णांक उत्रां वमय्ता।

**पिंतुरांचि राकण:** वर्सां मत्तां कोपेलाचिं पिंतुरं आळवोन येंव्विं पळय्लल्या जेज्वित व्हडिलांनि 1927व्या वर्सा जीर्णोद्धार कर्पाक दुड्वा महाय मागोन एक निधि (fund) तयार केलि। पिंतुरं रकुन व्हर्चें काम 1929वेर सुरु केल्लें तें कोलेजिच्या वार्शिक हिसोवांत वाचुंक मेळता। परत 1971 वर्सा कोपेलाच्या पिंतुरांचि तपास्णि करुन जीर्णोद्धारक फावो जाल्ल्या पिंतुरांचो तपशील विवर दिल्लि कीर्त डेहरडूनच्या रसायन शास्त्रि दो| वि.वि. लालाक फावो जाता। हें काम हातिं घेंव्क घळाय केल्यारि 1990 इस्वेंत लक्नोच्या इनट्याक - ऐ सि ऐ (INTACH - ICI) डाय्रेक्टर जनरल दो| ओ.पि.अगरवाल आनि सांगाति हाणिं सुरु कर्न लगवग वीस लाखांचें काम 1994 इस्वेंत संपय्लें। इनट्याक संस्थो भारताचिं पुर्विलिं वांद्पां, स्मारकां, पिंतुरं इत्यादि जीर्णोद्धार करुन तांचें मूळरूप सांवाळचें प्रयतन कर्ता।

**अशें उद्गार्ले महान वेक्ति:** "कसलें प्रेरण दिंव्चो जागो हो जाव्येन?" म्हण उद्गार्लो लोर्ड वेल्लिंगडन - गवर्नर मद्रास्चो, कोपेलाचि भेट करुन। "अपूर्व पय्स दिश्ट आनि दय्विक देण्यांचो कलाकार व्रदर मोश्किनि" म्हण ओलाय्लें लोर्ड पेंटलेंड - मद्रास् गवर्नरन।

स्वतंत्र भारताचो पय्लो वाय्सरोय श्री सि. राजगोपालाचारि ताच्या काळजाच्या उद्वेगान भरल्ल्या भग्णांक असो ताळो दिल्लो। "भारतांत हांवें जाय्तिं देव तेंप्लां पळय्ल्यांत। पुण असलें कोपेल पळेंव्क ना। कोपेलाचि एकच भेट शिक्षित कर्ता, तन मन उंचायेक उबार्ता। कोपेला भितर सर्ताना काळिज उमाळयांनि भरोन सर्गिंच्या वस्तुंनि धल्ता, मन्शापणाच्या महिमे मास्कार एक संतादळो पर्यांत ताच्या सतांदपणाचो हरेक तेंवो गळय्त! सां लुविस कोलेज कोपेल शांतिचें आगर, दय्विक हाज्रिचें सागोर, सोभायेचि खणस। "ये आनि चाक किल्लो स्वादिक सोमि' म्हण भाव अंतांनियो मोश्किनि ताच्या **अमर कला** द्वारिं आम्कां आपय्ताशें भोग्ता। मोश्किनिचो अत्मो उलय्ता - व्रश न्हय।

*** *** ***

# रांदपा कूड आनि साहेत - उमिण्यो

## (आदल्या अंक्या थावन)

- ग्लेडिस रेगो

1. **आडंबो:** तोल वलम. मकलम ढिनम, कर्कयांचें कुर्कुम्म
2. **आलें:** तीक तीक पान, कण्किचें गन,
3. **आळ्में:** गुड्याग एक्लो मत्रि धर्न उवों गव्ला
4. **कुळ्टा सांगो:** एदेम्या भुग्र्याक पेंक्टाक तर्कांति
5. **उजो:** घाटाग थावन लोन्चें हाड्डां, खेल्ले तित्लें मुग्दाना। ढिल्ले तित्लें मगि जाय्ना
6. **चींच:** अंत्रळाग थोरुं नातल्लो कोय्तो
7. **शेण:** आंग्डि वेल्याग विकाना, त्रामिग घाल्याग तुकाना, फुल वचाना। फळ जाय्ना
8. **केळें:** आंग्लें काड्डें वांय्क उड्डें
9. **वान:** आवय वम्ल्या, धुव गुंव्ता गुंव्ता
10. **पियाव:** घाटावेल्यान आयलो जोगि, मात कामरुणा पांगुर्न. वग्ला वोगि
11. **कोळ्सो-हांडो-तांबियो:** वापाय्न पुंजाय्लें, आज्यान माटाय्लें। नात्वान होग्डाय्लें।
12. **मिर्सांग पिकि:** तांव्डे फाल्केग पाच्वो गोंडो, वितग वम्ल्यात वोङ्क्यो गंडो
13. **कोळ्सो:** मकाळिं उट्तच्च वांय्क उडि मार्ता
14. **दांतें नात्नो:** तांव्डे वोत्ताना, धवें भाग्र घाल्ता
15. **नार्ल:** पयलें धडाप, दडापे, पोंदा खडाप। खड्फा पोंदा पाणि
16. **सारोण:** मकाळिं उट्ना। घर वोग नाच्ता, कोन्श्यांत वचोन वम्ता
17. **काडियां पेट:** ल्हान्शि खोंप्डि, खोंप्टिवोग काप्रि
18. **दांते:** गाय दांव्ता, दूद वांव्ता
19. **चावि:** इल्लोसो पोर, घर गकोंक थोर
20. **वीग:** चिकचिक मुक्णें, घर गकणें
21. **रांद्णिर बुड्डलो:** तीन पांयांचो तिक्लो घोडो। नाचेग वम्ला काळो चेडो। हाग्ना शिवाय उलय्ना।
22. **मीट:** आगे आगे मुट्टें। पाणि पर्तालें। अमृत पिक्लें।
23. **काय्ल आनि काय्लातो:** आकय्क दोन कान, वाफ्ल्याक ते नांत. आकय तापता, वप्पु उक्लाय्ना
24. **नात्नो:** आणिश रुकाक नोव्शिं फळां
25. **बाताचि कण्शि:** आदाळया नळें, पेदाळया खांवो। ताचेग मोव्ता मोत्यां झेलो
26. **वोणोक:** आपयल्याग येना, हात धल्र्याग येता
27. **कातर:** आम्गेर एक घोडो आसा। कान वोङ्ड्याग शिम्टेन चाव्ता

28. **गूंड काप्ल = बनालो:** आम्चि एक्लि खार्वायिल्ल्या तिल्लें चड रडता

29. **गुर्गुलेत:** आम्चो एक्लो माख्व। किनें मांग्ल्यारि कग्नि, गळो धर्न वाणाय्ल्यार मात्र कर्ता।

30. **गुर्गुलेत:** आम्गेर एक्लो कोंवो आसा। आयिल्ल्या गेल्ल्यांक नक्लि वागाय्ना

31. **त्रासिच्यो तवङ्यो:** आम्गेर दोग जोव्ळे भाव, जीव नांन नरि, नीन कर्तात वगवरि।

32. **खत्कत्वें शित:** आम्गेलि व्हड्लिमांय, हाम्ता नरि उलय्ना।

33. **खिळ:** आर्मालिं भुर्गिं कट्नांय लिसान, तांच्या मात्याचें चेपें मात्र दिग्ता।

34. **वागोणि:** आम्गेलेचि दांतोणि। वोणोदिचे मांदिंत

35. **कान्नें = कांत्ने:** आम्गेलो घोडो, पाटिर सवार आस्ल्यार मात्र खाता।

36. **उजो:** आम्गेल्या देवाक मूस वसाना, काळोक लागाना

37. **उजो:** आम्चा आवाक किनें दिल्यारि खाता। उदाक दिल्यार मोर्ता।

38. **पियाव:** आम्च्या आवाचो उर्माल, तांव्ड्या पेटेंत आसा।

39. **जोंदूळो:** आम्च्या आवाक एक कोट, कोट काड्ल्यार मिश्यो, मिश्यो ताम्ल्यार दांत, दांत वाट्ल्यार पीट, पीट थाप्ल्यार वाक्रि

40. **कान्नें = कांत्नें:** आम्च्या घोड्याक शिम्टि मुकार

41. **कांट-कुर्वें:** आम्च्या वोय्नाक कात ना, मास ना। एक माक्यों वोग्यिो मात्र

42. **माज्रा पील:** आम्च्या वावुक, जल्मातानांच मिशियो

43. **पियाव:** आम्च्या वायेक गाग्र्या वग्र गाग्रो

44. **चिम्णि:** आम्च्या वोक्ड्याचा ताळवेर एक वांग्राळें शिंग

45. **कुराड:** आम्च्या मामाक, हात आसा, पांय ना, पोट पोकोळ, जीव ना।

46. **पोळो:** आम्च्या मांद्रेक शेंवोर वुगक

47. **बेळ्सोळाचे पाकासे:** आम्च्या माव्शेचिं भुर्गिं, उशाक तेंकल्लि नक्लि - किनें केल्यारि उकल्नांत

48. **एळेचि सांग:** आम्च्या व्हड्लिमांय्चि कात धवि धवि, भुर्गिं काळिं काळिं

49. **आळ्वाचो खोलो:** आम्च्या व्हड्लिमांय्चें कापाड, किल्लो पाव्स पड्ल्यारि विजाना

50. **दिवो:** आम्गेल्या वालिक एकच्च अंक्रि

51. **वांय:** हिल्लांत एक्लि व्हड्लिमांय उवि। तोंड तिचें मोळवाक

52. **तांतिं:** आम्च्या माय्वाचें पेटुल, एक पाव्टिं उघड्लें म्हण्तच्च, धांपुंक जाय्ना

53. **मुयो:** आम्चि कोंवि आनि पिलां, धर्णि पोंदा लिप्ल्यांत

54. **पोळ्यांचि काप्ल:** आम्चि व्हड्लिमांय, तेल लाव्न धग तात्ता

55. **उज्या पेटेंत्ल्यो काडियो:** आम्चें कव्दि भाग्र सर्तच्च, मांड्डो झगव्न मोर्तात।

56. **जळार:** आम्चो गाव्पि,गाय्तां गाय्तां मरण माग्ता।

57. **कोळ्श्यांत उदाक वोड्चें:** आम्चें वाय कुळाग वेताना, मट्ट कर्न धांव्ता, नव्र्यागेर पाटिं येताना मेटान मेट दुकां गळय्ते येता

**58. उजो आनि धुंवोरः** आम्वो आव वितर, ताचि हिंवाचि तोपि मात्र भाय्र

**59. घर कोल्वान शिंव्वें:** आम्वो एक गेडो, ताका वर्माक एक पाव्टिं खांव्क घाल्चें

**60. लोणिः** कुफा फातर तो, तुकुंक तुक्येत, पुण! उदकांत उप्येता।

**61. साबुः** आम्वो कुफा फातर, फेंड वोंक्ता।

**62. उज्याचें केंडः** तांव्डो चेडो गोव्रांन लोळता, उदाक पियेल्यार मोर्ता।

**63. कुलेरः** धाक्टो घोडो वोजें वावव्र माट्यांत गिता, गितो जाव्र वाय्र येता।

**64. सारोणः** उवो नव्कर, नेवाळें तुद्ल्यार पामाळता।

**65. कोळ्सोः** आयिल्ले गेल्ले सक्कडी, गोम्ट्याक पाम घाल्न, पाताळाक देंवय्तात।

**66. मिर्सांगः** आवय काळि, धुव गोरि, धुवेच्या गळयांत पोव्ळया मरि।

**67. बाण आनि चेंब्बुः** आवय वम्ल्या, धुव नाच्ता नाच्ता।

**68. मोड्डि, बावाडें, मांडः** आंग आसा, पांय नांत, गळो आसा, तक्लि ना। नोंड धांपुंक नोपि घाल्ता।

**69. बीगः** इलो इलो पाको, घर राक्ता।

**70. बाग्लाचि खिळः** उज्चाड्ं म्हणताय्, आम्चें वाय लिप्ता।

**71. दांतेंः** उदारें पड्चें, वोम्तें पड्चें, हातान लोट्चें।

**72. ताक चाळ्वेंः** उव्या मूर्ति मुकार, देंव्वार नाच्ता

**73. वाळयः** उलय्ना हामाना, खोरें कुदोळ घेना,कोळमो ना, गजु ना, तीम वाग्लांचें घर वांद्ता।

**74. दिवोः** एदोमो पिलो, जय्त गक्साक धांव्डाय्ता।

**75. सांकळः** एका आंगार माट मत्तर दोळे।

**76. बेर्सोळः** एका मांक्लिक शेंवोर देंव्वार वांद्ल्यात।

**77. मड्डें त शितः** काळया दिव्ळांत धवे देव

**78. बाण्शिरेंः** काळया कुडांत काळें माजार,

**79. कप्लि/कप्लः** काळक्या कुडांत खाप्रि वम्ला।

**80. काप्लिर पोळोः** काळया मय्दानार, धवें वस्ता, तांव्डें उट्ता

**81. उदाकः** कित्लेंय तुं कातर, खिणा भितर गूण जाता।

*** *** ***

# मरियेचिं फेस्तां

(आदल्या अंक्या थाव्न मुदर्गिलां)

- फा। एग्जिन लोबो, जे।स।

## 5. लूर्डस साय्बिणिचि परब - फेब्रेर 11:-

1858 इस्वेंत फेब्रेर 11 थाव्न जुलायि 16 तारिक म्हणासर आम्चि साय्बिण 18 पावटिं 14 वर्सांचिं चलि सांत बर्नाडेट सुबीरोसाक हिका लूर्डस गांवांत दिश्टिक पड्लि। लूर्डस एक ल्हान गांव फिरेन्निस पर्वताचा मुळांत आसा। आता संसारांत नांवाडल्लि साय्बिणिचि इगर्ज थंय्सर आसा आनि हजारांनि यात्रिक थंय्सर वेता। विविंगड थरचिं आजापां जाल्लि रुज्वात आसा।

आक्वांर साय्बिण दिश्टिक पडल्ल्या सुवातेर तिच्या अपेक्षे प्रकार वांदल्लि देवसिलिका आसा। थंय्सर साय्बिणिच्या खुशे प्रमाणे बर्नाडेटान धर्णिचि सुकि माति उस्पिताना उब्जोन आय्लि झर आनि त्या झरिच्या उदकान आनि मरियेचेर आस्च्या पात्येणेन आजापां घड्तात म्हण सर्वे पत्येतात। भक्तिवंत मनिस क्रिस्तांव आनि अनक्रिस्तांव त्या जाग्याक वचोन थंय्च्या उदकान न्हाव्न येतात। सवारांच्यो पिडा ह्या वर्विं गूण जाल्यात। फेब्रेरच्या 11 तार्केर हें फेस्त इगर्ज माता आचरण कर्ता।

फ्रान्सांत लोकाचो भावाड्त उणो जाव्न येताना, राजकुळाचे प्रतिनिधि इगर्जेचेर अधिकार चलय्ताना आंक्वार साय्बिण तांकां दिश्टिक पडोन देवाच्या महिमेक आनि भावाड्ताक रुज्वात दिता। आपुण जाव्रासां म्हण पाप खताविणे गर्भ संभवल्लि अनि तेर्साच्या देवास्पणा सुखांत्र संसारांत वरेंपण येंव्क साध्य आसा म्हण ति शिकय्ता।

## 6. फातिमा साय्बिणिचि परब - मे 13:

मे महिन्याच्या 13 तार्केर पोर्चुगलाचा फातिमा म्हळया शहरांत आंक्वार मरि - जसिंता, फ्रान्सिस आनि लूसि म्हळया तेगां भुर्ग्यांक दिश्टिक पड्लि। मरि दिश्टिक पड्ताना पय्लें महाझज तिस्र्या वर्साक पावल्लें। रश्यांत कम्युनिस्टांचें राज आरंभ जाल्लें तें हेरं गांवांक विस्तारल्लें तवळ देवच्च ना म्हळिळ सांग्गि सरळयान पाचारुंक पळेताले। तेद्ना मरि स पावटिं ह्या ल्हानां भुर्ग्यांक दीश्टिक पड्लि आनि मन्श्या कुळान पात्का थाव्न पय्स सराजे, देवा थंय पाटिं पर्ताजे। सदां तेर्स म्हणाजे म्हण म्हन्श्याकुळान देवाथंय पाटिं पर्तोंव्क तिणें आपव्णे दिलें। त्याच्च वेळार आसि तेर्साचा प्रति खणा उप्रांत म्हण्चें साग्णें, म्हणजे -

"ये मोज्या जेजु! आम्चिं पात्कां आम्कां भोग्सि........." शिकय्लें। हें फेस्त आसि मे महिन्याच्या 13 तार्केर आचरण कर्तांव।

## 7. मरि क्रिस्तांवांचि मजत - मे 24:

मरि क्रिस्तांवांचि मजत जाव्नासा आनि सर्व गरजांक ति पावता म्हण सुर्वेर थाव्न क्रिस्तांव लोंका थंय पात्येणि आस्ल्या त्या देकुन मारिगं, नांवेंनां हिं सर्व वांदुन हाड्ड्यांन सांत ब्रिजितनाक तिच्या नियाळांत एक पाविटं जेजुन मरियेक म्हळिलं उत्रां आय्कालिं। तुज्या नांवान भक्तेन कोणि तरि कसलि गर्ज तरि विचारिस्ति, पात्कि तो जाल्यारि हांव ना म्हण्चो नां। ह्या उत्रांक पात्येव्न क्रिस्तांव ससडुन आप्ल्या गर्जांनि मरियेक उलो दिना।

पापा पियुस सात्वों, नेपोलियनान रयाचा हाताखाल बंदिवान जाव्न 1808 इस्वेंत रडीपार जाल्लो ताका 1814 इस्वेंत दवाजान रोमांत पाटिं काण्घेलो आनि इतिहासा पर्माणे इझजांत सल्वोन नेपोलियनाचें शेंवर दिसाचें आडळतें अकेर जाताना पाप साय्वान देवाक आर्गां दींवक साय्विणिचें हें फेस्त नमियार्लें। हें फेस्त मेयाचा 24 तार्केर आसि आचरण कर्तांव।

## 8. मरि एलिजबेतिक भेट कर्ता - मे 31:

मरियेक आंज वोड्ड्यान इज्जि हाडल्ल्या वेळार एलिजाबेत तिच्या उतर प्रायेर गर्भ संभल्ल्या म्हण तो खबार दिता। हें आय्कोन मरि एलिजबेतिचि भेट करूंक वेता। दोगां भागेवंतां आतां सांगाता मेळतात। दोगांय थंय देवाचिं महिमां ज्यारि जाल्यांत विशेस थरान देव तांचा जीवनांत येता आनि तांचिं महिमां संसारक दाकय्ता। थंय्सर एलिजाबेत सांग्ता: "स्त्रीयां भितर मरि सदेंव" म्हण। मरि वत्यां महिमेचें गायान गावन देवाक होगळिसता। पय्ले पाविटं 1263 इस्वेंत हें फेस्त आचर्सिल्लें म्हण चरित्रा आम्कां सांग्ता। सांत बोनवेंचरन त्याच वेळार मरि एलिजावेताक भेट कर्चें फेस्त फ्रान्सिस्कान भेसाचें फेस्त म्हण स्वीकर्सिलें। 1389 इस्वेंत पापा उर्बान नोवो हाणिं सगळया संसारांत विस्तरय्लें। मे महिन्याच्या आक्रेचा दिसा हें फेस्त आसि आचर्सितांव।

## 9. मरियेचा खताविण काळ्जाचें फेस्त - जून 19:

हें फेस्त जेजुच्या काळजाच्या दुस्र्या दिसा आचर्सितांव। जेजुचें पवित्र काळिज संसारचें राज आप्णाचें करून घेता। तें काळिज जाव्नासा पात्काविण आनि कसलेंच पात्काचें खत नातल्लें। हें काळिज खुर्साक निसाणो रगताचो आनि उद्काचो थेंबो पर्यांत मन्श्या कुळा खातिर दिता। मरियेचें काळिज जेजुच्या काळजावरि सोवाळ, दयाळ आनि काकुळिनचें त्या देकुन हें फेस्त पवित्र काळजाच्या फेस्ता उप्रांत्ल्या दिसा आचरण कर्तात।

## 10. कार्मल दोंग्राचिं माता - जुलायि 16:

मां। मिमांव स्टोक, कार्मलितांचो जेगल वडिल तेगव्या शतमानांत पडोन वेचा तांच्या मेळाक मार्को आधार दींव्क मग्यिलागिं माग्ना। नवळ मगि 1251 इम्वेंत जुलायि 16 तार्केर इंग्लेंडाचा केंव्रिज म्हळ्ळया गांवांन दिष्टि पडोन ताका एक वेंतिण दिना। ताच्या मांगाता ताका भाम दिता की कोणि तगी पात्येणेन ही वेंतिण घाल्न निर्चि मजत माग्नात, तांकां ति मांडुन घाल्चिना आनि तांच्या मर्नाचा काळिं संपूर्ण थगन पळेतेलि म्हण उताग दिता।

कार्मेलित भेम पालेम्तिनाचा कार्मेल टोंग्रेर आमल्ल्या मट्ठामिं थाव्न टेंवोन आय्ला म्हळिळ पात्येणि आमा। तेगव्या शतमानांत मागमिन पंग्डान पालेम्तीन गांवाक वेडो घाल्न मुकार मेळल्ल्यांक ताल्वागिन मारुंक आयिल्ल्या वेळार हे मट्ठामि थंय थाव्न धांव्ले। आनि मां शेमांव स्टोक हाच्या मुकेल्पणान नवो मेळ घड्लो। जुलाय्च्या 16 तार्केर मग्यिचा हातिं तांकांचं ममर्पितान आनि कार्मेल मायेचो आधार मांदात। हें फेम्त आमि जुलय 16 तार्केर आचरण कर्तांव।

## 11. आसुम्सांव दीस (मरि कुडि आत्म्या समेत सर्गाक चडल्लो दीस) - आगस्ट 15:

आगम्ताचा 15 तार्केर मग्यिेक मर्गार घेतल्लें फेम्त आमि आचर्मितांव। मंख्वाचें पाप तिचे थंय नातल्लें आनि पाताक, देवाचि आवय जाल्ल्या मग्यिथंय टिमोंव्क ना। देकुन पात्काचि शिक्षा जाव्नाम्चें मरण तिका देवान दींव्क ना। वगार कुडि आत्म्या ममेत तिका सर्गार व्हेलें म्हण आम्चि समङ्त आम्का मांग्ना। कोंक्णेचिं गायानां आम्कां मांग्तात - नोव कोर आंज येव्न गायानानि तिका मर्गिं व्हर्तात - हें कंतार अशें मांग्ना:

"अमुंग्मांव दीम, निर्मळ वोर, आंझ वोड्वे गायान कर्तिंत, नोवर्या कोर"

जेजु मर्गार चड्या उप्रांत मरि आपोम्तलां आनि हेगं शिमां मवें ति आमा। सेनेक्लांत स्पिरित मांत देंवल्ल्या वेळार.थंय्मर ति आमल्लि। उप्रांत तिचे विशांत कांय विवर ना तरी शिसांक ति प्रोत्माव दीता आनि तांचो आधार ति जाता। हें फेम्त पांच्व्या शतामाना थाव्न आयिल्लें जाव्नामा। काल्मिडिनाचा सभेंत हें सत म्हण्चि मरि कुडि आत्म्या ममेत मर्गार गेल्लि म्हण पाचारल्लें। आनि आगम्टच्या 15 तार्केर प्रत्येक थगन मग्यिेक मान दिल्लो। जेजु सर्गार चडल्ल्या 3 थाव्न 15 वर्मां भितर हें कार्ग्यें जाल्लें म्हण पात्येणि आमा।

आम्कां भारतांत हो दीम म्वातंत्राचो दीम, व्रिटिष लोक ह्या दिमा भाग्त मांडुन आम्का स्व आडळित मांडुन दिलें। हो दीम मग्यिेक समर्पुन आम्चो गांवयी आमि मग्यिेक ममर्पितांव।

## 12. मरियेच्या राणिपणाचें फेस्त - आगस्ट 22:

पापा पियुस बारव्यान 1955 इस्वेंत मरियेच्या राणिपणाचें फेस्त आचर्सुंव्क आनि मरियेच्या उत्रावर्त्या महिमेक मान दिंव्क पवित्र सभेक उलो दिलो। आनि आगस्टाचा 22 तारीकेर आचर्सुंव्क निर्मिलें। मरियेच्या पवित्र सभेचा आरंभा थावन मरियेक वर्तो मान दिला आनि तिका संसाराचि राणि म्हळळें बिरुद दिलां। जेजु कसो सगळ्या संसाराचो राय्गी तशेंच मरि संसाराचि राणि ति राय कुळिये थावन आयिल्लि म्हण पवित्र पुस्तक आम्कां सांग्ता। मुर्वेचे वरस्णार मरियेक 'रायाचि आवय' म्हण आपय्तात। कशें जेजुक राय म्हण नमान कर्तातरी, तशेंच मरियेक राणियेचो सन्मान दितात।

आगस्टाचा 22 तारीकेर आचर्सुंव्चें हें फेस्त मरियेच्या सर्गार चड्ण्याच्या 8 दिसां उप्रांत येता। कुडि आत्म्या समेत सर्गार चडल्लि आंव्चार सांय्क आतां राणि म्हण कुर्वार कर्तात। हें आम्चा भावाड्तार्चें व्हर्ते सत जाव्नासा।

## 13. दुखि साय्बिणिचें फेस्त - सप्तेंबर 15:

सप्तेंबराचा 14 तारीकेर भागेवंत खुर्सचें फेस्त केल्या उप्रांत, पवित्र सभा सप्तेंबराचा 15 तारीकेर दुखेस्त मायेचें फेस्त आचर्सिता। सिमियांव देवाळांत मरियेक आनि जेजुक भेटल्ल्या वेळार सांग्ता - एक ताल्वार तिचें काळिज पाप्सितलि म्हण। हाचेर हांदोन सात दुखि इगर्ज माता दिता। सिमियांवचि प्रोपेसि, इजिप्ताक पलायान, जेजु तेंप्लांत भाग्र पड्ता। काल्वारिच्या वाटेर जेजु मरियेक मेळ्ता। जेजुक खुर्साय्तात। मरियेच्या उस्क्यार जेजुचि निर्जीव कूड दवर्तात। जेजुक निर्कपितात। हें फेस्त 1668 इस्वेंत 'सर्वट' म्हण्चें सेवकांचो भेस हांका आचर्सुंव्क परवणगि दिल्लि। उप्रांत 1814 इस्वेंत रोमा थावन दुस्मानांनि गडिपार केल्लो, पापा पियुस सात्वो हाका परत रोमांत घेताना सगळ्या इगर्जमानेन हें फेस्त आचर्सुंव्क आपव्णें दिल्लें। आतां मरियेच्यो दुखि आमि भक्तिन नियाळतांव आनि जेजुच्या दुकिं सवें एक कर्तांव। हें फेस्त सप्तेंबराच्या 15 तारीकेर आचरण कर्तांव।

## 14. काकुल्तिच्या मायेचें फेस्त - सप्तेंबर 24:

इक्राव्या आनि बारव्या शतमानांत तुर्कांनि युरोपाक वेडो घालुन भावाड्त्यांचा जीवाक तशेंच ममड्तिक मस्तु नष्ट केल्लो। स्पेय्नाच्या बार्सेलोन शहरांत सांत पेद्रु नोलास्को, सांत रय्मांड पेन्या फोर्ट आनि थंय्चो राय अरेगोनाचो जेम्स हाणिं क्रिस्तांव लोकाक तुर्कां थावन, सुटका दिल्ल्याक देवाक अर्गां दींव्क 1233 इस्वेंत मरि काकुळदार मांय हें फेस्त आरंभ केलें।

1696 इस्वेंत इन्नोसेंट तेरव्या पाप साय्बान सगळ्या संसाराक तें पाचार्ले। सांगाताच पात्कांच्या वंटडेंत्लें सुट्का हाडुंक पुल्गात्रित्ल्या आत्म्या खातिर सारोंक मरियें मारिफात साध्य म्हण पाचार्ले। हें फेस्त सतंबराच्या 24 तार्केर आचरण कर्तांव।

## 15. भागेवंत पवित्र रोजारिचें फेस्त - आक्टोबर 7:

तेर्स जाव्रासा कुट्वाचें मागणें। मरियेचें देवास्पोण तेर्सा मुकांत्र आदिं थाव्र आय्लां। तेर्सा वेळार पोद्रा खण या वीस खण मागताना जेजुच्या जिणियेचे मिस्तेर आसि नियाळतांव। ह्या देवास्पणावर्विं संसारांत मस्तु वरेंपण आय्लां आनि भक्त वाड्ल्या म्हण रुज्वात आसा। फातिमा शहरांत मरि दिष्टि पडल्ल्या वेळार भक्तिन तेर्स म्हणाजय म्हण मरियेन आपवणें दिल्लें। 1571 वर्सा पापा पियुस पांच्वो हाणे हें फेस्त सगळ्या पवित्र सभेचें फेस्त म्हण पाचार्लें। त्या वर्सा अक्टोबराचा 7 तार्केर क्रिस्तांव शिपायांक तुर्कि शिपायां लागिं दर्याच्या लडायेंत जीक मेळ्ल्लि। 1716 इस्वेंत सगळ्या इगर्ज मातेक हें फेस्त विस्तारय्लें। तेराव्या लियो पापा साय्बान अक्टोबर महिनो आंक्वार साय्बिणिक समर्पुन तेर्साचें देवास्पण नमियार्लेलो महिनो म्हण पर्गट केलें। हें फेस्त अक्टोबराचा 7 तार्केर क्रिस्तांव शिपायांक तुर्कि शिपायां लागिं दर्याच्या लडायेंत जीक मेळ्ल्लि। 1716 इस्वेंत सगळ्या इगर्ज मातेक हें फेस्त विस्तारय्लें। तेराव्या लियो पापा साय्बान अक्टोबर महिनो आंक्वार साय्बिणिक समर्पुन तेर्साचें देवास्पण नमियार्लेलो महिनो म्हण पर्गट केलें। हें फेस्त अक्टोबराचा 7 तार्केर आचरण कर्तांव।

## 16. मरि पापखताविण गर्भ संभवल्ल्याचें फेस्त - डिसेंबर 8:

मरि देवाचि माता। सास्गा थाव्र देवान तिका विंचुन काडल्लि। पाप नातल्लो देव संसारांत आपुण जाव्र येताना पाप नातल्ल्या थंय तो येता आनि राव्ता। ताचे खातिर सोभित, निर्मळ एकँ घर तो स्थापन कर्ता - मरियेचा उदरिं देवाचो आस्रो जाव्रासल्ल्या तिका पाप खत नास्ताना संसारक येंव्क जाय आसल्लें म्हण सां। आल्पोन्स लिगोरि आम्कां सांग्ता। स्पिरित सांता वर्विं गर्भ संभव्ताना पाप तिचे थंय आसोंक साध्य ना म्हण सांत तोमास आक्विन आम्कां सांग्ता। सात्व्या शतमाना थाव्र उदेंतिंत हें फेस्त आचर्सितात आनि उप्रांत 19व्या शतामानांत हो मान युरोपांत मेळासो केलो। 1854 पापा पियुस नोवो हाणें हें फेस्त संसाराचें फेस्त म्हण मांद्लें आनि भावाड्ताचें सत म्हण पाचार्लें। 1858 इस्वेंत लूड्स गांवांत मरि, वर्नडेटाक दिष्टि पड्ताना सांग्ता - 'हांव जाव्रासां पाप खत नास्ताना गर्भ संभवल्लि' म्हण हें फेस्त डिसेंबराच्या 8 तार्केर आचरण कर्तांव।

*** *** ***

# कोड्याळा थाव्र कोंक्णि टि।वि। च्यानेल



2004 आक्टोबर तीन तारीकेर शक्तिनगरांल्या कलांगणांत कोंक्णि टि।वि।चें उग्तावण चल्लें। मांड सोभाण संस्थ्याचो स्थापक श्री एरिक ओझेरियोन कोंक्णि संसारांत केल्ल्या सभार साहसां पयिकि हें वर्तें साहस जाव्रासा।

कोड्याळसार गिटार वाजोव्पि, कन्नाडा फिल्मांचो संगीत निर्देशाक श्री ओल्विन फेर्नांडिसान - कन्नाडा नटि प्रिति, निर्देशक प्रकाश आनि प्रोपर्टिचो रेहन सोन्ससे, मांड सोभाणाचो प्रस्तुत अध्यक्ष लुवि पींत, कोंक्णि टि।वि।चो निर्देशक एरिक ओझेरियो हांच्या हाजर्पोणा सांगाता कोंक्णि टि।वि। उग्ताव्लि।

आमि घरांत कोंक्णि उलय्तांव, तरि ल्हान भुर्गि इंग्लिश चानेलां थंय प्रभावित जाव्र.इंग्लिशानंचं चिंतुंक सुरु कर्तात आनि कोंक्णि उलोंवक कश्टातात। तसल्या भुर्ग्यांक आमि टि।वि। माध्यमारच्य कोंक्णि दाकय्लि जाल्यारि, तांकांय कोंक्णि भाशेचेर वोडयेत म्हळिळ कोंक्णि टि।विचि आविलाशा म्हण्ता श्री एरिक ओझेरियो।

आज कन्नाडा, इंग्लिश, हिंदि च्यानेलां मुकार कोंक्णि टि।वि।चि सुर्वात केल्लि मांड सोवाण कार्वार्यांचिं दूर्दृष्टि आनि ऊंच चिंताप शलघनिय जाव्रासा। हेर वासांच्या च्यानेलांचो धाळो आसा म्हण, कोंक्णि च्यानेलांचों धाळो उबो करुंक पाटिं पाटिं कर्चे प्रास कारयान हें काम ताणें कर्नंचं सोड्लां।

ह्या शेतांत सर्व नवंद्य जाल्यारि, मांड सोवाणाच्या सांद्यांनि एक व्हड चिंताप मनित दवर्लां। आज न्हंय फाल्यां खंडित जाप्रयी कोंक्णि च्यानेलांचो धाळो हेर वासांच्या धाळया बरबर उबो करुंक जातलो म्हळिळ तांचि पात्येणि जाव्रासा।

कोंक्णेचें कुळार गोंयांत पर्यांत असलें एक कोंक्णि च्यानेल आजून उज्वाडाक येंव्क ना। मांड सोवाण आनि एरिक ओझेरियो तसल्यांनि तर्नि सेटां दवरल्ल्या ह्या कार्वांरांक जैत लाव्तेलें खंडित।

*** *** ***

# मय्ला फातर

- ग्लेडिस रेगो

**मे 2004:**

**मे 1:** मंग्ळुर मिलाग्रिस जूनियर कोलेजिचा मय्दानार, "केनरा कोंकणि कथोलिक समाजिचो जागतिक सम्मेळ" हाचें मुहूर्त कार्यें मानाधिक विम्प एलोसियस पाव्ल सोजान उग्ताय्लें।

**मे 1:** अखिल भारत कोंकणि परिशदेचें मुखपत्र "कोंकणि संसार" द्विमासिक पत्र गोंयां मड्गावांत वस्ति वामान शेणैय्न उग्तावण केलें।

**जून 2004:**

**जून 3:** गोंय्च्या तोमास स्टीफन्स कोंकणि केंद्रान सुरु केल्लो एका वर्सांचो पदव्युत्तर कोंकणि डिप्लोमा कोर्स उग्तावण जालो।

**जून 13:** कर्नाटक राज्य कोंकणि भाशा उण्या संक्यात विद्या संस्थ्याचो संघ मंग्ळुर आनि कोंकणि एज्युकेशन ट्रस्ट कुम्टा हांच्या जोड आस्त्र्याखाल संस्थ्याचो सम्मेळ आनि विचार सातें कुम्टा विद्या केंद्रांत चल्लें।

**जून 21:** "केनरा कोंकणि कथोलिक समाजेचो जागतिक सम्मेळाचें" एक्वोट थिरांव्क अस्मिताय संभ्रमुंक, फुडार येव्जुंक, "वेबसाय्ट" उग्तावण कार्यें धर्माध्यक्षचो निवास कोड्याळवय्ल सालांत श्री आल्बर्ट डब्ल्यु सोजान उग्ताय्लें।

**जून 27:** कोंक्णि साहित्य कला फांव्डेशन कार्वार्यांनि, महाकाळि ग्यान आश्रमांत संगीत, नृत्य आनि अभिनयनांत आसक्त आस्च्या कोंक्णि भुर्ग्यांक, रेडियो, टि.वि.चेर कोंक्णि कार्याक्रमांनि भाग घेंव्क तर्भेति शिविर आसा केलें।

**जुलाय 2004**

**जुलाय - 4:** शक्तिनगर सकाळे कलांगणांत मांड सोवाणाचि महिन्याळि मांचि जात्र श्री लक्ष्मी वेंकटेश कोंकणि नाटक सभा कुंदापुर हांचे थाव्न "तीन रत्न", नांवाचो कोंक्णि नाटक सादर जालो।

**जुलाय - 11:** गोवान रिव्यू आर्ट्स फांव्डेशन हाणिं माहिम विक्टोरिया इगर्जे होलांत "कोंक्णे कोंक्णि उलव्प्यांत कित्याक पाटिं" म्हळळ्या विशयाचेर चर्चाकूट आसा केलो।

**जुलाय - 12:** "केनरा कोंकणि कथोलिक समाजेचो" जागतिक सम्मेळाचा कामांचि प्रगतेचि माहेत कळंव्क, जागतिक सम्मेळनाचि माहेत पत्रिका "माहेत" बिस्पाचो निवास सालांत। मानेस्त रेनाल्ड कुलासान उग्तायलें।

**जुलाय 18:** सडंत्यार फिर्गजेचें पत्र "काळजाचें जय्त" फिर्गज विगार फा|हेरल्ड मस्करेन्हसान उग्तायलें।

**अगोस्त 2004:**

**अगोस्त 1:** शक्तिनगर सकाळे कलांगणांत महिन्यालि मांचि 32वें कार्यें जाव्न, मानेस्त जोकिम पिंटो आनि पंगडाथाव्न "सांप्रदायिक गुम्टां पदां आनि दाविद आनि गोलियात" गुम्टां आदारिंत संगीत-नाच-नाटक सांगाता आप्रूपाचो प्रयोग चल्लो।

**अगोस्त 1:** कोडयाल वज्रोडि संदेश सालांत 'मिकमेक्स' हाचि भांग्राळया पदांचि तिस्रि कोव्लि श्री रिचार्ड मोरसान उग्तायलि।

**अगोस्त 1:** कोडयाल बिस्पाच्या घरांत "राक्णो" हफ्ताळया पत्रान कविता कामासाळ मांडुन हाडल्लें। संपन्मूळ वेक्ति जाव्न, श्री मेल्विन लुद्रिक हाजर जाल्लो।

**अगोस्त 1:** कोंकणि नाटक सभा (रि) मंगळुर हाणि चलयिल्ल्या अंतर फिर्गज नाटक स्पर्धांत, पयलें: वेंदूर, दुस्रें: अशोक नगर, तिस्रें: देरेबयल, फिर्गजांक स्थानां वांटोन गेलिं।

**अगोस्त 1:** कोडयाल बिस्पाच्या घरांत "राक्णो" हफ्ताळया पत्रान मांडुन हाडल्लें कविता कामासाळ मांडुन हाडल्लें। संपन्मूळ वेक्ति जाव्न, श्री मेल्विन लुद्रिक हाजर जाल्लो।

**अगोस्त 2:** "केनरा कोंक्णि कथोलिक समाजेचो" जागतिक सम्मेळाचो "चिड्डाव" (स्टिक्कर), विमोचन कार्यें, बिस्पाचो निवास सालांत। मानेस्त रिचर्ड मोरसान विमोचन केलें।

**अगोस्त 2:** "केनरा कोंक्णि कथोलिक समाजेचो" जागतिक सम्मेळाचो "चिड्डाव" (स्टिक्कर), विमोचन कार्यें, बिस्पाचो निवास सालांत। मानेस्त रिचर्ड मोरसान विमोचन केलें।

**अगोस्त 5:** ह्या वर्सा थाव्न गोंयां जेज्वित प्रांत्यान आप्ल्या जेज्वित याजक उमेद्वारांक स्थळीय भास कोंक्णि शिक्चें कड्डायेचें केलें। 1570 इस्वेंत गोंय्चे सां पाव्ल कोलेजिंत कोंक्णि शिकयताले आनि ताका जाय तसले शब्दाकोश तवळ आसल्ले।

**अगोस्त 6:** "कोंकणि काव्यां" इंग्लिश आनि हिंदि भासांक भाशांतर करुंक, कोच्चिंत चलल्ल्या

अखिल भारत कोंकणि परिशद कार्याकारि समिति सभेर निर्दार केला।

**अगोस्त 8:** महिन्यावार कोंक्णि "संवाद" मेल्विन रोड्रिगसाचा "जुजेच्या पेर्राचि काणि" घेव्न विमर्शो संवाद इजय ग्लेडियोलसांत चल्लो।

**अगोस्त 20:** कोंक्णि भाषा मंडळ कर्नाटक हाणिं टि.एम.ए.पै. फांव्डेशन मणिपाल आनि कोंक्णि भास आनि संस्कृति प्रतिस्टान मंग्ळुर हांच्या सहयोगान कोंक्णि मान्यताये वीस विस्पाचो निवास कोड्याळवय्ल सभा सालांत मांडुन हाड्लो।

**अगोस्त 22:** कोंक्णि भाशा मंडळ (रि) कर्नाटक, डो| टि.एम.ए. पौंव्डेशन मणिपाल , कोंक्णि भास आनि संस्कृति प्रतिस्टान मंग्ळुर सांगाता तिदोड्या आस्र्याखाल कोंक्णि मान्यता दिसा संदर्बिं अंतर हाय स्कूल अंतर कोलेज-विविध विनोदावळ स्पर्दे आनि प्रबंध स्पर्धे आसा केल्ले।

**अगोस्त 31:** सांत लुविस कोलेजिच्या सवा सालांत, कोंक्णि साहित्य एकेडेमि कर्नाटक (रि) हाच्या दशमानोत्सव संदर्बार, "कोंक्णि बाळ तालेंतां" स्पर्दो आसा केल्लो। सांत लुविस कोलेजिचो प्रांशुपाल फा| एव्जिन लोबो SJन कार्याचि उग्तावण केलि।

**सप्टेंबर 2004:**

**सप्टेंबर 1:** गोंय्च्या सर्कारान रोमि लिपिचे कोंक्णेक, आर्तिक कुमोक दिंव्क निर्दार घेत्लो। गोंय्च्या विधान सभेन हो निर्दार सर्वानुमतेन मंजूर केलो। 1987 इस्वेंत गोंयां सर्कारान "देवनागरि लिपि कोंक्णेचि अधिकृत लिपि" म्हण सांदुन घेतल्लि। 1992 इस्वेंत कोंकणि भाशेक संविदानाचे आट्व वोळेरेंत मेळ्ळि।

**सप्टेंबर 11:** पाट्ल्या वीस वर्सां थाव्न मुंबय्न्त वावुर्चो संस्थो "कोंक्णि सभा" (रि) मुलुंड, हाणि सांत पियुस धाव्याचें हाय स्कूल सभा सालांत कोंक्णि मनोरंजन सांज आसा केलि। संगीत, नाटक, गुस्टां पदां, नविं पदांनि प्रेक्शकांक कोंक्णि आम्च्या माय भाशेचो सुवाद वांट्लो।

**सप्टेंबर 14-15:** केंद्र साहित्य एकेडेमि डेल्लि आनि रक्णो हफ्ताळयाच्या जोड आस्र्या खाल, मंग्ळुर नंतूर्च्या ISD सभा सालांत "कोंकणि साहित्यांल्लि प्रादेशिक विविदताय" विशयाचेर विचार सातें चल्लें।

**सप्टेंबर 23:** श्री फ्रान्सिस फेर्नांडिस काम्पियान बरयिल्लो कोंक्णि नाटक "सत्लावि संसार" शार्जांत सादर केलो।

**सप्टेंबर 24:** यु.ए.इत्ल्या "मेंग्लोर कोंकण्स" हाणि कोंकणि प्रतिभा स्पर्दो मांडुन हाड्लो।

**सप्टेंबर 24:** कुवेय्टांत्ल्या मंग्ळुर्गागंच्या विविध संघ संस्थ्यांच्या एक्वोटाचें फेस्त "कोंकण उत्सव 2004" कुवेय्टांत कोंक्णि गायना ट्याल्लो, नाट्ळों आनि हेर सांस्कृतिक कार्यं चल्लिं।

**सप्टेंबर 26:** कोंक्णि नाटक सभेचो 61वो वार्शिकोत्सव, मंग्ळुर डोन बोस्को सालांत आचरण केलो। ह्या संदर्भार कोंक्णि नाच, नाट्ळो आनि हेर मनोरंजन साधर जालें।

**सप्टेंबर 30:** दुवायिच्या सैंट मेरिस कोंकणि समुदायान, आल नासर - लिशर ल्यांड सभा सालांत "कोंकण शिवोर - 2004" कार्यें मांडुन हाडें। हेन्रि डि'सोजा, सुक्रीना, अपर्णासायेकर, सांगाता कोड्याळिचं संगीत्कारांय हाजर आसल्लिं।

अक्टोबर 2004

**अक्टोबर 2:** वोंवय कुटम हफ्ताळया वाळ पत्रान आप्लो प्रथम वार्शिकोत्सव घाट्कोपार पूर्व चावेल वेन पोपटलाल सभागृहांत चलय्लो। ह्या संदर्भार श्री सन्त्रि ए.डि'सोजान लिखल्लो "कुट्मांत भांगार पिक्लां", नाटक साधर जालो।

**अक्टोबर 3:** शक्तिनगर कलांगणांत 34वि महिन्याळि मांचि जात्र "गोंय्चें संगीत कार्याक्रम आसा केलें। ह्याच्च संदर्भार कोंक्णि भास आनि संस्कृतेच्या उगेळ्गेक सांड सोवाण संस्थ्यान "कोंकणि टि.वि. चानेल उद्घाटन केलें।

**अक्टोबर 3:** कुट्माचो सेवक पत्राच्या 45व्या वर्साचें आचरण मंग्ळुर जय्ल गेड, आगिस्सि घरांत चल्लें। ह्या संदर्भार, "जिणिए स्पंदन" "साण्कुलें" आनि 'काळजाचि भास' वूक उग्तावण केले।

**अक्टोबर 8:** दाय्जि दुवाय एक्तागचे तर्फेन "आज आमि कोंक्णि उलव्यां" वोंदेराखाल, भुर्ग्यांखातिर कोंक्णि दीस आचरण केलो। सांस्कृतिक कार्यें, गुस्टां पदां आनि स्पर्दे आसा केल्ले।

**अक्टोबर 10:** दस्पारां वोरां 1 थाव्न 2 पर्यांत ओ.सि.एन टि.वि चेनेलाचेर प्रसार जांव्क आस्च्या कोंक्णि टि.वि.चें चित्रिकरण मंग्ळुर्चा विविद जाग्यांचेर चल्लें।

**अक्टोबर 16:** मणिपाल नेहरू मेमोरियल सवासालांत चलल्ल्या कार्यांत श्री पाव्ल सोरमान लिखल्ल्या आनि सांत लुविस कोलेजिच्या कोंक्णि संस्थ्यान प्रगट केल्ल्या "कोंक्णि चळवळ" पुस्तकाक डो| टि.एम.ए.पै श्रेश्ट कोंक्णि पुस्तक प्रशस्ति आनि सङ्गांव्च्या यशवंत पि.शणैन लिख्लेल्या "इंग्ळयांत्ल्यो हिरो" कादंबरि पुस्तकाक मेच्वणेचें इनास डो| टि.एम.ए.पै. प्रतिश्टानाचो अद्यक्ष के.के. पैन दिव्न

मान केलो।

**अक्टोबर 19:** मंदेश कलाभवनांत, कर्नाटक कोंक्णि साहित्य एकेडेमिन आस्रा केल्ल्या, संवाद आनि "कोंक्णि ग्रंथ सूचि" उग्तावण कार्यांत आद्लो मुखेल मंत्रि एम.वीरप्प मोय्लि मुखेल सग्रो जाव्न आयिल्लो। ह्या संदर्भार, फा| डेनिस डेसान कोंक्णि एकेडेमिचें खब्रे पत्र "कोंक्णि सिरि संपद"चो तिस्रो आंखो उग्ताय्लो।

**अक्टोबर 23:** मुंवय किंग सर्कलांल्या शण्मुकानदं मालांत कोंकणि भाशा मंडळ मुंवय (रि) हाणिं येव्जिल्लि "कोंकण दाय्ज यात्रा" कोंक्णेंत सर्व जाति - कातिच्या आनि वोलिंच्यो लोक एक जाव्न चल्लि। तीन हजार कोंक्णि लोक एकाच सभा सालांत जमल्लि चारित्रिक घडि जांव्क पाव्लि।

**अक्टोबर 24:** मांड सोवाण शक्तिनगरच्या कलांगणांत, कोंक्णि महोत्सव आट दिसांचें कार्यें उग्तावण जाव्न "151वें मांड सोभाण" कार्यें चल्लें।

**अक्टोबर 25:** 50 वर्सां आद्ल्या पदांचि सांज, पदां नाच पोकाणांचें फेस्त

**अक्टोबर 26:** चलियांचि सांज " " " " "

**अक्टोबर 27:** नव्या संगीतगारांचि सांज " " " "

**अक्टोबर 28:** गोंय्च्या पदांचि सांज " " " "

**अक्टोबर 28:** कोड्याळांत दशंवर 26-29 पर्यांत चल्च्या केनरा कोंक्णि कातोलिकांच्या जागतिक सम्मेळनाक, लोकाक आपंव्च्या वोव्ळिक यात्राक, "वोव्ळिक पत्र" मंग्ळुर्चो बिस्प लुविस पाव्ल सोजान, आप्ल्या निवासांल्या सभा सालांत मोक्ळिक कर्चे द्वारिं सुर्वात दिलि।

**अक्टोबर 29:** सिंतिमेंताळ पदांचि सांज " पदां नाचाचें फेस्त

**अक्टोबर 30:** वाय्ल (Baila) पदांचि सांज " "पोकाणाचें फेस्त

**अक्टोबर 30:** कोंक्णि भास, साहित्य, संस्कृतेच्या दिशांनि सेवा केल्लो, "एमियार" नांवान फामाद जाल्लो लोकामोगाळ वरव्पि श्री एलोशियस डि'सोजा मियार - वोंवय देवादीन जालो।

**अक्टोबर 31:** मांडो आनि सांप्रदायिक सांज " " " "

**नवेंबर 2004**

**नवंबर - 7:** सकाळे शक्तिनगर कलांगणांत मांड सोवाण, महिन्याळि मांचि कार्यें जाव्न, हास्यमय

नाटक "तो म्हाका नाका" मादर जालो। उर्देतिच्या कलाकर्गांनि खेळव्न दाकय्लो।

**नवेंबर 7:** कोंकण कोगुळ विल्फि रेविंवमाचि "220वि विल्फि नाय्ट" मंगळुर्च्या डोन वोस्को मालांत मादर जालि। ह्या संदर्भार विल्फिचि 36वि पदांचि कोव्ळि उग्तावण जालि। तशेंच कोंक्णेंत्लो माल्गडो माहिति, संगीतगार आनि अमर कोंकणि पत्राचो आदलो संपादक मेक्ष्रि आल्वन केस्तेलिनोक ह्या संदर्बार पर्गट मान केलो।

**नवेंबर 7:** वोंवय साकिनाकांत्ल्या कोंकण काळजां संस्थ्यान आप्लो 16वो वार्शिकोत्सव आचरण केलो।

**नवंबर 9:** डो| विल्लियम माड्ता, दारवाड कर्नाटक विश्वविद्यानिलयाचो निवृत्त प्रोपेसर संशोदक, बाशा विज्ञानि तशेंच कन्नड आनि कोंकणि लेखक, 9-11-2004क सोमार सकाळिं देवार्दीन जालो।

**नवेंबर 12:** कुवेय्टांत्ल्या डोन वोस्को इस्कोला मालांत कोंक्णि आवियान समिति 2004 सुर्वात्लि।

**नवेंबर 12 थाव्न 15 पर्यांत** वोंवय्त स (6) विल्फि नाय्ट मादर जाल्लो वोंवय्च्या विविद संस्थ्यांनि विल्फि रेविंवस आनि पंग्डाक व्हरव्न हिं कार्यिं दवाजान मादर कर्न, वोंवय्तल्या सवार हजार प्रेक्षकांचिं मनां कोंक्णि संगीतान दादोसि केलिं।

**नवेंबर 14:** मंग्ळुर डोन वोस्को मालांत 18वि विल्सन ओलिवेर कोंक्णि नाय्ट आंजेलोर फिर्गजेच्या सि.एल.सि.संघान मांडुन हाड्लि।

**नवेंबर 28:** कोंक्णि लेखकांचा एक्वटान आप्लो दशमानोत्सव संदेश सभा मालांत आचरण केलो।

*** *** ***

# नविं कोंकणि पुस्तकां

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | “युगसंवार” कादंबरि | - | महावळेश्वर सैल |
| 2. | “मट्व्यो कथा” | - | मास्ति वेंकटेश अय्यंगार |
| 3. | “पंच शतकम” | - | एन. पुरुशोत्तम मल्य |
| 4. | “धिका” कादंबरि | - | देविदास कदम |
| 5. | राम चरित मानस, भाशांतर | - | अनंत भट, |
| 6. | लोक धन “लोक वेद” | - | शरतचंद्र शेणय |
| 7. | “रेडे” मट्व्यो कथा | - | स्याम वोळिये |
| 8. | “मोलिचे दोळे” मट्व्यो कथा | - | विविद लेखक राक्णो प्रकाशन |
| 9. | “नाद” लेखनां | - | फा\| एरिक क्रास्ता |
| 10. | “काळजा पर्जळ” कविता | - | माच्चा मिलार |
| 11. | “हाय हाय दुबाय” हास्य | - | सिज्येस ताकोडे |
| 12. | “कांटे खुंटे - फुलां झेले” मट्व्यो कथा | - | रेमंड लोवो मट्टार |
| 13. | “सां पाद्रे पियो” जीवन चरित्रा | - | फा\| वलेरियन फेर्नांद |
| 14. | “जिणिये स्पंदन” लेखनां | - | ब्र\| जुनिफर |
| 15. | “काळजाचि भास वेग्ळिच्च” मट्व्यो कथा | - | चेतन |
| 16. | “माण्कुलें” मट्व्यो कथा | - | एडि नेट्टो जेप्पु |
| 17. | “हाय म्हज्या पोराजिता” लेखनां | - | फा\| रुपट कापुचिन |
| 18. | “पेंपारें” पदां, कवितां | - | फा\| एड्विन सोज कोट्टिल |
| 19. | “ग्रंथ सूचि” | | कर्नाटक कोंकणि साहित्य एकेडेमि, मंग्लूर |
| 20. | “हिप हिप हुर्रे!” फोकणां | - | (डोल्ला), एडोल्फस कुटिन्हा |
| 21. | “आमि कोंग्लिश उलयतांव” II | - | श्री जे.वि. सिक्वेरा मुंबय |
| 22. | भांगाराचि मास्ळि, भुरग्यांक काणियो | - | श्री जे.एफ. डिसोजा |

# नव्यो कोव्यो

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | भांग्राळिं कोंक्णि पदां Vol. 3 | - | मिकम्याक्स |
| 2. | नशिवांल्या चेड्वा | - | गेशन डि'सोजा, वेळमण |
| 3. | वेदि वोंव्तिं | - | फा| आक्विन नोरोन्हा, ओ.पि. |
| 4. | "कोणाक सर्गाक वचोंक जाय?" | - | विनय पिंटो |
| 5. | "नाच मोभाण" | - | मांड मोभाण |
| 6. | "कोंकणि ड्यान्स हिट" | - | नाच पंगड, मांड मोवाण |
| 7. | मेच्चालां | - | लोय केस्तेलिनो आनि नेल्सन |
| 8. | "जय्तेवंत" | - | गेशन क्रास्ता |
| 9. | कोंक्णि पदां Vol. 3 | - | विल्सन ओलिवेग |
| 10. | रुण्णें | - | केविन मिस्क्ति |
| 11. | "ड्यान्स कोम" | - | मेल्विन पेरिस |
| 12. | जिणिये पय्णार | - | फा| आंतोनि लोपेज |
| 13. | "ब्रदर जीसस" | - | फा| आंतोनि लोपेज |
| 14. | "भागि कुट्वा" | - | फा| आल्विन कार्मेलित |
| 15. | पियेगा पियेगा " | - | जोयेल पिरेग मांगाति |
| 16. | तुं ये " | - | गेशन डि'मोज |
| 17. | शिवोर " | - | मेल्विन फेर्नांडिस |
| 18. | वंदे मातरं " 36वि कोव्ळि | - | विल्फि रेविंवस |
| 19. | जिविताचें खाण " | - | वेंजमिन मिरांद |
| 20. | म्हज्या जेजु " | - | क्लिफर्ड लियो डि'सोजा |

# प्रशस्ति पुरस्कार

1. "मिकमेक्स" नांवान फामाद जाल्ल्या - नाटकगार, संगीतगार, वरवि, कार्या निर्वाहक, श्री मायकल मेक्सम डि'सोजाक 2004व्या वर्साचि "कोंकण कुटाम वाह्रेन प्रशस्ति" फावो जाल्या।
2. श्री वोनवेंचर डि.पियेत्रो" रोमि लिपिंत कोंकणि नोवेल (कादंवरि) वरय्णार वोनवेंचर पीटर फेर्नांडिस हाका तोमस स्टेफन कोंकणि केंद्रान दिंव्चो आंतोनियो पिरेरा कोंकणि पुरस्कार 2004 फावो जाला।
3. शिर्ताडि विल्लियम पिंटोक "कर्नाटक राजोत्सव पुरस्कार 2004" दीव्न कर्नाटक राज्य सर्कारान सन्मानित केलो। श्री विल्लियम पिंटो, नांवाड्दिक वकील समाज सेवक दुब्ळया धाकट्यांक, युवजणांक कानून सलह दीव्न शिक्शित ताणे केलां। तशेंच्च ताणे कानून सलहा विशिं पुस्तकां वरव्न प्रगट्ल्यांत।
4. धिवो साहितिक पुरस्कार -2004 कोंक्णि वाव्राडि आनि गोंय्च्या तोमास स्टीफन्स कोंक्णि केंद्राचो मा| दो| प्रताप नाय्क आनि कवि, साहिति, श्री वल्लि कोड्रास हांकां फावो जालां।

# जेजु जाल्ले राति

लुविस मस्करेन्हस

वोड्डे अपार गोट्या भोंवार
वाळकाक देकोन दृष्टिं
खुशालायेन कर्तित गायान
संतोस सगळे सृष्टिं
जयो, जयो, तारेक निधान
जयो, जयो सुफळ मध्यान
जेजु जाल्ले राति
चंद्रेम आनि नेकेत्रांनि
मेळोने एक्ये मोतिं
सहस्त्र किरण लागिं करुन
केलि ताचि स्तुति।
काळोक आय्चान पोळोन गेला
निति सुर्यान उदेव केला
जेजु जाल्ले राति
फुलां फुल्लात झरि व्हाळतात
माण्के वेंवेताति
सुक्णिं लेगुन गोंटेर सांडुन
संगीत गाणा गायित
नमो नमो देव-कुमारा
सर्वे रच्चा कीर्तन करा
जेजु जाल्ले राति
गद्दाळायेन जाता गायान
घड्ड्या गजाल वोर्ति
ह्या संव्सारार, भुमिर, वार्यार,
संतोस सगळे सृष्टि
अनंद जांव देवाक अंत्रळिं
शांति वर्यांक ह्या संव्सारिं
जेजु जाल्ले राति

(**वि.सू:**मंगळुर पुस्तकांवळ संस्थ्याचें पुस्तक - 3, "चूड623 कोत्रु" म्हळळया ल्हान्श्या कड्तिलेंत 1950 इस्वेंत प्रगट जाल्लें कवन। वास आसा तशि उरयल्या। वयल्या संस्थ्याक श्री आलेक्स एं. पाय्स संपादक, श्री जे.जे.रेग आनि श्री फेलिक्स पि.नोरेंज सहायक जाव्नास्ले।)

*** *** ***

*Printed at: Assisi Press, Ph: 2492816*

